


# आत्मो






पृथ्वेर एक तरी
पुण्यवान आत्मो मेळत काय?



1192
Dr: Dev
MAH





1159
Ac.No.

महेश चंद्रकांत नाईक

001192
L:B01-R05 (Dov.Ad)
A 1159

# आत्मो

(नाटक)

महेश चंद्रकांत नाईक



**Atmo**
A Konkani Play by-
Mahesh Chandrakant Naik


**उजवाडावपी**
अक्षरब्रह्म प्रकाशन
व्दारा-महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय ४०३००१

**पयली आवृत्ती**
ऑक्टोबर २००७





A, MAHESH (P07



*अक्षर जुळवण :*
**एरीस कंप्युटर**
घर. नं. ५९९, बरभाट ताळगांव,
पणजी गोंय. फो.६५१०१९४
मोबायलः ९८२२३०६९०७, ९२७००२४७६३
**छापणावळः** श्री प्रिन्टर्स मेरशी

**मुखावयलें चित्र :** साईनाथ परब

**मोलः** ८०रू.



1192
Dr. Dev
MAH



**लेखकाचो नामोः** महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा मुखार,
सांतिनेज, पणजी-गोंय.४०३००१
फोनः २४२६२०९



**चत्रायः** या नाटकाचे सगले अधिकार लेखक महेश चंद्रकांत नाईक हांणी राखून दवरिल्ले आसात. नाटकाचो प्रयोग, अणकार, रूपांतर, पटकथा करपाची आसल्यार लेखकाची लिखित मान्यताय घेवप गरजेंचें.नाजाल्यार संबंधितांचेर कायदेशीर कारवाय जातली.

# म्हजी दोन उतरां...

मनशाच्या जिवीताचें पयलें आनी निमाणे सत्य एकूच " मरण!" मरण कोणांक चुकूंग ना.दर एकल्याच्या जिविताचो शेवट थारिल्लो आसता. कोण अपघातान मरता, कोण दुयेंसान मरता, तर कोण जाण्टेपणान मरता. हातून आत्महत्या करपी आयलेच. मरण कशेंय येवं, तें मनशाच्या वाटयाक येताच!
'मरण' हें सत्य दर एका मनशाक खबर आसा. तरी लेगीत मनीस इतको स्वार्थी कित्याक? ह्या वाक्यात हांव स्वताकूय सामील करताच कारण हांवूय मनीसूच. म्हज्यान स्वार्थ, लोभ, पाप, तिडक हें मनशाचें सगळे गुण आनी अवगुण आसा.
जल्माक येतना मनीस एकटो येता. जें कितें मेळयलें आसा तें हांगाच दवरचें पडटा. येतना आंगार एकूय कपडो घेवन येयना आनी वतना कांयच धापून वचना. हें सगळें सत्य मनीस जातीक खबर आसा तरी लेगीत मनीस स्वार्थी कित्याक?
बुध्दाच्या रस्त्यार चलपी मनीस आतां कमीच आसा: आतां दर एकल्याक जगपाची आस आसतां, किदें तरी मेळोवपाची आस आसा.कोण तरी जावपाची आसा. आनी हें सगळे मेळपाक चुकीचोय रस्तो आसाच. कांय जाण मनांक दुखयता, भ्रष्टाचार करता, पाप करता, काय जाण खून लेगीत करता, ह्या सगळयांक कायदो आसा, पूण... सोडून दियात, पृथ्वीवेल्या कायद्याविशी किदें उलोव? तो सदीच सगळयाक सारखो आसा अशें म्हणप चुकीचें ठरूं येता. तो कितलोय जाल्यार जित्यांचो कायदो, पूण मरणाउपरांत? मरणाउपरांत कायदो आसा? काय मनशांनी पृथ्वेर केल्लीं पापां मनशावांगडा जळोन वता.
आमच्या हिन्दू धर्मान 'यम' हे नांव नवें न्हय. अशें म्हणतात, की मरण लागी पाविल्या मनशा फाटल्यांन यमाची सावळी आसता. यम मेल्ल्या मनशांचें आत्में आपल्या दरबारान व्हरता आनी तांच्या जिवनाचो हिशोब माणता. हें सत्य काय कल्पना, हांव नकळो. पूण हे गजालीक हावेन म्हजी कल्पना जोडली आनी हें "आत्मो" नाटक जल्मांग घालें.
यम कसो आसतलो, ताचो दरबार कसो आसतलो. ताका साथ देणारो चित्रगुप्त कसो आसतलो, तातून नर्काचें दार, स्वर्गाचें दार, ह्यो सगळयो गजाली कल्पनेन मांडच्यो पडल्यो. नर्काच्या दारान वचणारे जाय ते जाण आसू येता, पूण स्वर्गाचें दार, ते कोणांक फावो? कोणाचो आत्मो पवित्र? कोण स्वतः खातीर जगता? कोण दुसऱ्याखातीर? कोण चड पुण्यवान? ह्या प्रश्नांक लागून परतून एकदा कल्पनेची पात्रां जोडची पडली आनी नाटकातल्या अमरासारखो हांवूय तातूंतलो पवित्र आत्मो सोदूंक लागलो.
जिवीत सगळयांक जाय. निमणे मेरेन मरण कोणांकच नाका. पूण मरणाची पर्वा करीनासतना स्वताक देशाखातीर बलिदान करपी व्यक्ती एकूच तो म्हळयार "सैनीक" त्याच शहीद आत्म्यांक स्वर्गाचें दार फावो.
ह्या नाटकांतल्यो सगळयो गजाली म्हजी कल्पना आसूं येता पूण सैनिकांक स्वर्गाचें दार उगडपाचो निर्णय म्हजी कल्पना न्हय. ते एक सत्यच जावं येता!

**महेश चंद्रकांत नाईक**

## खाशेलें उपकार

**म्हजें हें नाटक पुस्तक रूपान येवपाक**
**डॉ. मुकेश कायसूवकार**
**आनी कैलास नाईक**
**हांणी खूप आदार दिला, ते खातीर तांचें खाशेलें उपकार.**



## ॥ श्री गणेश ॥

ह्या नाटकाचो पयलो प्रयोग ओशेल शिवोली हांगा श्री क्षेत्रपाल देवस्थानाच्या नाटयमंडपान ६/२/०६ ह्या दिसा जालो . ह्या प्रयोगांत वाटो घेतिल्ल्या कलाकारांची नामावळ.

| | | |
|---|---|---|
| **लेखक** | : | महेश चंद्रकांत नाईक |
| **दिग्दर्शक** | : | प्रविण धारगळकार |
| | | मथूरादास साळगांवकार |
| **संगीत** | : | प्रकाश पेडणेकार |
| **उजवाडायेवजण** | : | श्रीहरी ताम्हणकार |
| **सुत्रधार** | : | मथूरादास साळगांवकार |

## भुमीका आनी कलाकार

| | | |
|---|---|---|
| **अमर** | : | चंदन शिमेपुरुशकार |
| **चित्रगुप्त** | : | रंजेश हरमलकार |
| **यम, रमेश** | : | विराज साळगांवकार |
| **दादाभाई, दोतोर** | : | प्रशांत हरमलकार |
| **नरेश, सरपंच, सायमन** | : | शिवानंद गोवेकार |
| **दीपक, तातो, कान्ता** | : | सन्मेश विरनोडकार |
| **दीपाली, नर्स, मोगरे, चेडूं** | : | रिमा चोडणकार |
| **दिनू, मनीस २** | : | गौरीश गोलतेकार |
| **ब्रह्मदेव, पेलवान, आत्मो** | : | स्वतेश कळंगुटकार |
| **मनीस ३, कम्पांन्डर** | : | कल्पेश शिरोडकार |
| **प्रल्हाद** | : | संतोष हरमलकार |
| **मनीस ४** | : | पंपू कळंगुटकार |
| **पुलीस १** | : | सूरज चिमुलकार |
| **पुलीस २** | : | सिध्देश चोडणकार |
| **मंत्री, राखणदार,मनीस** | : | तनमय गोवेकार |

## महेश चंद्रकांत नाईक हांणी बरयिल्ले कोंकणी नाट्य साहित्य

### उजवाडाक आयिल्लीं नाटकां:

ॲक्शन
ऑल फॉर यू
ॲरेस्ट हिम
ॲक्टींग ॲक्टींग
आय ॲम सॉरी ( लेखनाचें पयलें बक्षीस मेळोवपी नाटक)
ॲक्चुअली ... आय लव्ह यू
आत्मो

### उजवाडावपाच्या मार्गार आशिल्लीं नाटकां

अपुरें स्वातंत्र्य,
आधार एअरलायन्स, अपूरे स्वातंत्र्य, आय डोन्ट केअर,
ऑपरेशन डबल गेम, आत्या आत्या सून कर

### एकांकी

ऑपरेशन डबल ए ,आधार

### नाटकुलीं

आमी अशे म्हणून तशे
आमचो खेळ
आयच्यान आळशीपणा नाका

### एकपात्री

चेडू , मिस इंडिया

## अंक पयलो

(पडदो उगडटा. यमाचो दरबार, एके वटेन स्वर्ग, दुसरे वटेन नर्क. लायनीन आत्मे उबे. चित्रगुप्त येता)

**चित्रगुप्त** : ( आत्मे मेजता) एक, दोन, तीन, ...शट्, कितें मेजतलो. मेजपाक तरी जाता हे आत्मे. ते पृथ्वेर दिसाक कितलेजाण जल्माक येता आनी कितले मरता तेंच कळना. आनी इतले लोक मरोन लेगीत लोकसंख्या कमी जायना. पृथ्वेर वजन वाढत आसा. किडे कशें लोक जल्माक येता आनी किडे कशें मरता. महाराज म्हण पृथ्वेर कितल्यो फावटी मारतले? आनी कोणाक, कोणाक म्हण हाडटले. पूण कितें करतले? कितलोय जाल्यार तो यम. मनशांचे आत्मे हाडप हेंच तांचें कर्तव्य. आत्मे चड आसत जाल्यार महाराजांवागडा म्हाकाय वचचे पडटा. कितलोय जाल्यार हांव चित्रगुप्त. महाराजाक सांगात दिवप कर्तव्य म्हजें.... आतां चला, ह्या आत्म्यांक लायणीन दवरूया.(सगळयांक सारखे दवरता) तुमी जिते ना तें खबर आसा न्हय तुमकां? आतां कांय वेळांन महाराज आयलो काय तुमच्या कर्माचो हिशोब वाचप जातलें.तांतून तुमी सकयल कितें उजवाड घातला तो पळयतलें. ही दोन प्रवेशव्दारां पळयतां तुमीं? हें स्वर्गाचें दार आनी हें नरकाचें.जाणें जिवीतान पुण्य केलां ताका स्वर्गाचें दार उक्तें जातलें. आनी जाणें पाप केलां ताका नरकाचें.(आवाज) कोणाचो बोवाळ चल्ला थंय?(राखणदार येता) कितें जालां रे, बोवाळ कसलो?

**राखणदार** : महाराजान आत्ताच एक आत्मो हाडला. पूण तो आत्मो हट्टीपणां करता. तो आपूण दरबारांन येवन लायणींन रावना म्हणटा.

**चित्रगुप्त** : दरबारान येयना म्हणटा? मेलो तरी मनीस जात आपलो स्वभाव सोडीना.महाराज खंय आसा?

**राखणदार** : ते ताका म्हजेकडेन सोडून न्हावपाक गेल्या. तांणी ताका दरबारान व्हरून सोड म्हणिल्ले, पूण तो हट्टीपणां करता. हांवेन आयजमेरेन इतके आत्मे पळयले, पूण हाच्यान हट्टी आत्मो पळोंक ना.

**चित्रगुप्त** : ताची हट्टी्पणां हांव भायर काडटा. हाड ताका म्हज्या म्हन्यान.

**राखणदार** : बरें

**चित्रागुप्त** : ही मनशाची जात केन्नाच सुदारची ना. जित्याची खोड मेल्याबगर वचना अशी म्हण ह्या मनशानीच तयार करून दवरल्या. ती एकदम फटींग.

(राखणदार अमर नावाच्या आत्म्याक घेवन येता)

**अमर** : सोड. म्हाका सोड, म्हाका येवपाचो ना. रावपाचो ना लायणीक.

**चित्रगुप्त** : सोड रे ताका,(राखणदार सोडता) चल तू (वता) कितें जालां रे बोवाळ कित्याक तुजो.


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No: 001192

अमर : ऐ शिरपुटया कितें जालां तुजें?

चित्रगुप्त : म्हाका शिरपुटो म्हणटा?

अमर : आंगान ना जीव. तो शिरपुटो ना जाल्यार कितें?

चित्रगुप्त : चूप! तुका कोणाकडे कशें उलोंक जाय तेंय कळना. यमाचो साथीदार चित्रगुप्ताचो अपमान करता तूं!

अमर : तू चित्रगुप्त? मनशाचो हिशोब बरयता तो? आनी यम म्हटल्यार तोच न्हय मडें व्हरता तो?

चित्रगुप्त : मडें न्हय आत्मे!

अमर : म्हाका एक सांग, हांव खंय आसा?

चित्रगुप्त : खंय म्हणजे. यमाच्या दरबारांत आसा तू.

अमर : कितें? यमाच्या दरबारांत? पूण हांव हांगा कसो पावलो?

चित्रगुप्त : कसो म्हणजे? मरतकच मनीस हांगाच पावता.

अमर : म्हणजें हांव मेला?

चित्रगुप्त : हय. ह्या सगळयांच्या आंगार धवे कपडे आसा. तशे तुज्याय आसा. महाराज तुमकां वयर हाडटना धव्या कपडयान गुटलावन हाडटा.तुमी मनीस न्हय, फक्त आत्मे.

अमर : ना हें शक्य ना, हांव मरोंक शकना.

चित्रगुप्त : दर एक मनीस कपलार मरणाची तारीख घेवनच जल्माक येता.हे सगळे जशे मेल्या तसो तूय मेला. ताका लागोन तुका हे लायणीक रावचो पडटलो.

अमर : हांव रावचोना. हे सगळे मेल्या आसत पूण हांव मरोंकना

चित्रगुप्त : पिसो कसो उलोवं नाका.

अमर : तुमी पिसोच करून सोडटले म्हाका. हांव आदीच सांगता तुका, हांव मरोंक ना.

चित्रगुप्त : यमाच्या दरबारांत जितें मनीस आसनात, कळलें. महाराजान तुका आताच हाडला.

अमर : त्या जाडयाक मेळोनीच म्हाका

चित्रगुप्त : महाराजाक तू जाडो म्हणटा?

अमर : जाडयाक जाडो ना जाल्यार कितें शिरपुटो म्हणूं?

चित्रगुप्त : तुमी मनीस जात दुसऱ्याक नावां दवरप सोडचे नात.

अमर : म्हज्या आंगार हे कपडे कोणे घातल्या. हांव काडून उडयता ते.

चित्रगुप्त : नागडो रावपाचो आसा तुका...ह्या कपडया पोंदा तुजी कुड नासत, तरीय स्वताची लज दवर!

अमर : म्हजी कूड खंय आसा?

चित्रगुप्त : तुका एकदा सांगल्यार कळना, तू मेला म्हण. तुज्यान आसा तो फकत आत्मो.

अमर : आत्मो हाडटना म्हजी कुड कित्याक हाडूंग ना.

चित्रगुप्त : शी... कुड वयर हाडून हांगा घाण करपाची आसा,मेल्ल्या मनशाचे कुडीक वास येता तो खबर ना तुका?

अमर : तुजो यमय मेला?

चित्रगुप्त : तू कितें उलयता तें कळटा तुका?

अमर : ताच्या कुडीकूय वास येतालो.

चित्रगुप्त : मेल्ल्या मनशांकडे संबंद येता ताचे कुडीक वास येवचोना जाल्यार कितें येतलें. म्हणून तांका एक मनीस हाडलो काय न्हावन येवचें पडटा. तुका हाडल्या उपरांत लेगीत ते न्हावंक गेल्या.

अमर : म्हणजे हांव खऱ्यानींच मेला?

चित्रगुप्त : तुका एकदा सांगल्यार कळना, चल आतां लायनीक राव.

अमर : हांव लायनीक रावचोना. कारण हांव मेला हें मानपाक तयार ना.

चित्रगुप्त : मनशा हट्टीपणां करूं नाका, ही पृथ्वी न्हय. महाराज येवच्या पयली लायनीक राव.

अमर : येवनी कोंणांक येता तो. पूण हांव लायनीक रावचो ना.
(यमाच्या आगमनाचो आवाज)

चित्रगुप्त : महाराज आयले, आता कितें तें सांग
(यम येता, सिंहासनाचेर बसता) (यमाचो जय-जय कार)

यम : चित्रगुप्त कितें जालां, आनी हो हांगा कितें करता?

चित्रगुप्त : महाराज, हो आत्मो लायनीक रावना म्हणटा.

यम : कित्याक?

चित्रगुप्त : आपूण मेला हें मानपाक तयार ना तो.

यम : मुर्ख मनशा, मरण हेंच मनशाचें पयलें आनी निमणें सत्य, आनी तेंच तू मानपाक तयार ना? आनी, तू मरोंक ना म्हणटा जाल्यार तू म्हज्या दरबारांत कसो पावलो हाचो विचार केला तुवेन?

अमर : पयली म्हाका सांग तुवेंन म्हाका उबारून हाडला न्हय.

यम : हय, हांव यम. मनीस मेलो काय ताची कूड सोंपता. उरता तो फकत आत्मो. मेल्ल्या मनशाचो आत्मो ह्या दरबारांत हाडून ताच्या जिवीताचो हांगा हिशोब मांडप हेंच म्हजें काम.

अमर : तू यम जाल्यार तुजो रेडो खंय आसा?

यम : तुका कशें कळ्ळले म्हजेकडे रेडो आसता तो.

अमर : रेडयार बसलेलो यम हावेन पिक्चरांत पळयला.

यम : खंय?

चित्रगुप्त : महाराज पिक्चर म्हणटा तो, पड्ड्यार दिश्टी पड्टा तें... तुमका याद ना, सोरोप चाबोन एक मनीस मरपाचो आसलो म्हण. ताच्या आत्म्याक हाडपाक आमी

काळखांत भितर गेल्ले ते.

यम : तो दिस कसो विसरूं? त्या पड्ड्यावयलो बोवाळ आयकून रेडयान म्हाका सकयल वडोवन भायर धांव मारली.

अमर : डोल्बी आसली म्हण तशें जालें.

यम : डोल्बी? पूण म्हजें ढोल धाडावलें. तू त्या पिक्चराच्यो गजाली म्हाका सांगो नाका. चल वच लायनीक राव

अमर : फोनाचें, उदकाचें बिल भरूंक लायनी. पिक्चरांच्या तिकेटींक लायनी. आनी आतां हांगाय लायन. हें पळय, हांव लायनींक रावचो ना... हांव कित्याक म्हण रावो लायनीक?

यम : कित्याक म्हणजे, हे सगळे रावोंक ना लायनीक? ते लेगीत तुज्या सारखे मेल्या. तांचोय हिशोब जावपाचो आसा.

अमर : तुमीं करात तांचो, पूण म्हजो हिशोब करपाक आजूक कळाव आसा. तो करपाक पयलीं हांव मरोंक जाय.

यम : शट् अप, डोन्ट टॉक नोन्सेन्स. यू आर डेड.

अमर : आवयस, बरो मरे इंग्लीश उलयता. कोणी शिकयली रे तुका.

यम : तुमका लागुनूच ही त्रास जाता तसली भास शिकची पडटा. आमच्या कायदयान मनशाचो निमणो प्रसंग आनी ताच्या तोणांतलें निमणें उतर सोंपलें काय आत्म्याक हाडचो पडटा. पूण तुमी तुमची भास सोडून ही भाडयाची भास चड उलयता मागीर हांव निमणो शब्द वळखतलो कसो? म्हणून ही यस, नो शिकची पडटा.

चित्रगुप्त : महाराज, हांवूय इंग्लीश शिकलो. ए फोर आन्टी, बी फोर बॉल.

यम : व्हेरी गुड, आतां चल ह्या हट्टी आत्म्याक लायनीन दवर.

अमर : तुका हांवें एकदा सांगलें, हांव तांचे वागडा लायनीन रावचोना म्हण. हांव मरोंगना. तुमी म्हाका चुकोन हाडला. तुमच्या हातीन चूक जाल्या.

यम : चूक करपाक आमीं कितें मनीस. आमी आमची ड्युटी सारखी करता.

अमर : कसली ड्युटी! म्हाका खबर ना काय कितें? तुमी एकदा राजेंद्र कुमाराक चुकोन हाडलेलो तो.

यम : राजेंद्र कुमार? चित्रगुप्त हो खंयच्या राजेंद्र कुमारा विशीं उलयता?

चित्रगुप्त : महाराज, राजेंद्र कुमार पयलींच्या पिक्चरांतलो हिरो.

यम : तुका सांगलां म्हाका पिक्चरांतल्यो गजाली सांगू नाका म्हण. आता मुकाटयान लायनीक उबो राव.

अमर : तुका जाय ते सांग, पूण म्हाका लायनीक उबो रावंक लावं नाका.

यम : शट् अप, टेबला पोंदसून घुस दिवपाक तुका आमीं मनीस दिसता? चित्रगुप्त हो आत्मो आयकोप।चो ना, नाका रावों ताका लायनीक, पूण हिशोब मांडटना ताचो

हिशोब निमणो मांडुया. तर हांगा जमिल्ल्या आत्म्यानो आनी ...आत्मिनिनो.

**चित्रगुप्त** : महाराज मनीस कशे उलोंव नाका. यम कशे उलयात.

**यम** : तुमी सगळे मेल्या. तुमचें शरीर पृथ्वेर नश्ट जालें. आतां उरला फकत आत्मो. दर एकलो आपल्या नशीबान बरयल्लें आयुश्य जगला. कोण भुरगेपणान मेला, जाल्यार कोण जाण्टेपणान मेला. पूण जो जितलें आयुश्य जगलो, ताणें आपल्या जिवितान कितें कितें केलां तें ताका कळटलें. आमचेकडे दर एकल्याची कर्मा बरयल्लीं आसता. दर एकल्याच्या कर्मा नुसार स्वर्गाचें वा नरकाचें दार उक्तें जातलें. ताका लागोन तुमीं घातलेलो उजवाड आयकुपाक तयार रावात. पूण हे आयकुच्या पयलीं ह्या दरबाराचो एक नियम आसा, तो म्हणल्यार तुमकां निमाणी कर्मणूक दिवप. तुमी खूप टिवी, पिक्चरां पळयल्या आसत, पूण हांगसर तसलीं पिशेपणां ना. हांगासर करमणूक म्हळयार फकत संगीत आनी नृत्य. जो स्वर्गान वतलो ताका भरपूर कार्यावळी आसा. पूण नरकान वयता ताका कांयच ना. म्हणून हिशोब उगडच्या पयलीं ह्या कार्यावळीची मजा घेयात. (यम टाळी वाजयता. नृत्य कलाकार सोबीत नृत्य सादर करता. यम गळयातली माळ दिता सगळी वता)

**चित्रगुप्त** : महाराज आतां हांव बी नाचों?

**यम** : तू नाचल्यार हे आत्मे धांव मारतले. आमीं आमची ड्युटी करूंया. तें पुस्तक उगड आनी वाच एकएकटयाचो हिशोब.

चित्रगुप्त : महाराज पृथ्वेर कॉम्प्युटर नावाचें पुस्तक आयलां. तांतून आमकां सगळो हिशोब बरोवन दवरूंक मेळटा. महाराज त्या पुस्तकांत पानां नासता.. फकत मावस दामपाचो. सगळे दिश्टी पडटा.

**यम** : कितें? उंदराक दामचो पडटा. हे मनीस म्हण मनजातीचें कित्याक हाल करता म्हण कळना. एक पुस्तक उगडपाक उंदराक दामूंक जाय कित्याक. चित्रगुप्त आमचें हें कपडयाचें पुस्तक बरें आसा जें दोन बोटानी उगडटा. चल घेवन बस ते, आनी सांग एक एकल्याचो बॅकग्रावंड.

**चित्रगुप्त** : (पुस्तक उगडून बसता) हांव नांव घेता तशें, एक एक जाण फुडें येयात. दादाभाईऽऽ यो. (पयलो आत्मो म्हऱ्यान येता)

**यम** : चित्रगुप्त सांग हाची कर्मां

**चित्रगुप्त** : हांचे नांव दादाभाई

**यम** : तें तुवेन मोठयांन उलो मारतकूच कळ्ळें. फुडें सांग.

**चित्रगुप्त** : महाराज, भुरगेंपणांतल्यान ह्या दादाभाईक एक सवय आसली. तो म्हळयार फट मारप. ताचे हे सवयेनच ताका राजकारणी केलो. तो पाच वर्सां राज्याचो मुखेलमंत्री म्हण रावलो, आनी दोन वर्सां विरोधी म्हण रावलो. खुर्ची आसतना पैशे खाल्ले आनी सरकार पडलें तेन्नां गाळयो खाल्ल्यो. खोटी आश्वासनां आनी

बुरशें राजकारण खेळोन जिकत रावलो. लोकांचो विचार केन्ना केलो ना. स्वताचो फायदो चितीत रावलो. असो हो राजकारणी दादाभाई फकत स्वताक लागोन जगलो.

दादाभाई : पूण मेलो लोकांक लागोन.

यम : शट् अप. लोकांक लागोन खंयचो. तुका खबर आसा तू कसो मेला तो?

दादाभाई : हय, हांव वेचणुकीचे तयारेन आसलो. हजार लोकांम्हऱ्यांन रावोन हांव भाशण दितालो. तेन्नाच कोणेतरी गुळी घातली म्हजेर.म्हजें भाशण अर्दकुटें उरलें.

यम : हो भाशण दितालो काय पिल्लां दितालो कोण जाणा. लोकांक सांगता हें करतलो आनी तें करतलो. आरे तुवें भ्रश्टाचाराबगर जिवितान केलां तरी कितें. तुज्या मरणाचो वेळ जाला म्हण त्या दिसा तुज्या म्हऱ्यान हांव रावलो, म्हण तुजे फटकीरें भाशण आयकुचें पडलें. तुजें तें फटकीरें शब्द सहन जाय नासले.

दादाभाई : तुका सहन जाय नासले आसत, पूण लोक लक्ष दिवन म्हजें भाशण आयकतालें.

यम : आयकतलेंच, पैशे दिवन तुवेन तांका एकठांय केल्ले ते खबर ना म्हाका . पिस्तुलाचे गुळयेन तुजो शेवट आसलो, ना जाल्यार रेडयाक सांगोन तुका शिंगा मारूंक लायतलो आसलो.

दादाभाई : यमा. तू एका मंत्र्याचो अपमान करता. तुका म्हजे सपोर्टर सोडचेना.

यम : खंयचे सपोर्टर? ते तुका विसरोन आतां भलत्या वांगडा भोंवता. तुजी सत्ता सोंपली, राजकारण सोंपलें, जिवीत सोंपले, खयचीच खुर्ची तुजी उरली ना.

दादाभाई : राजकारण्याची खुर्चेची आस केन्ना सुटना. आतां म्हाका ही खुर्ची जाय.

यम : मुर्खा ही म्हजी खुर्ची, हांव राजा हांगासल्लो.

दादाभाई : तुजी पांच वर्सां सोपलीं.

यम : पांच वर्सानी खुर्चेवयलो मनीस बदलपाक हें तुमचे राज्य न्हय. हांव हांगासल्लो पर्मनंट राजा.

दादाभाई : यमा हट्टीपणां करू नाका, हांव मेजोरिटी उबी करतलो.

यम : चित्रगुप्त हाका नरकान धाड.

दादाभाई : यमा तूय त्या सीयमा सारखो राजकारण खेळटा. ताणेय हांव आवाज करता म्हणून म्हज्या पोन्न्यो भानगडी उस्तून म्हाका भितर वडयलो. आनी तू आतां म्हाका नरकान धाडटा?

यम : चित्रगुप्त, तो पिसो जाला. धुकलून घाल ताका.
( नरकान धुकलता, अमर हासता) तू हांसता कित्याक?

| | | |
|---|---|---|
| **अमर** | : | बेस्टोच |
| **यम** | : | बेस्टोच हासपाक ही मनशांची नगरी न्हय. यमाची नगरी ही. हांगासर आत्मे फकत दुःखी आसता. तांच्या मनांन फकत विचार आसता. नरक मेळटलें काय स्वर्ग तें. तुवेंन पळयलें न्हय त्या दादाभाईक वायट कर्मांक लागोन नरकान वचचो पडलो तो. |
| **अमर** | : | तो वचूंकना, चित्रगुप्तान धुकलून घातला ताका. |
| **यम** | : | तोय तुज्या सारखो हट्टी आसलो, म्हणून ताका धुकलून घालचो पडलो आनी तोच जागो ताका फावो आसलो.ताच्या सारखो आत्मो स्वर्गान न्हय नरकानूच जाय.चित्रगुप्ता फुडल्याक घे. ( दुसरो चित्रगुप्ता म्हऱ्यान येता.) |
| **चित्रगुप्त** | : | महाराज हो नरेश, हो गाडयांचेर नंबर घाली. हारशांचेर चित्रां काडी. ताच्या हातान जी कला आसली ती कोणांकडे नासली. |
| **यम** | : | इतलो व्हडलो कलाकार? बाबडो खूप बेगीन मेलो |
| **चित्रगुप्त** | : | ना महाराज, वयल्यान ताका उसरां मरण आयलें |
| **यम** | : | म्हणजें ? |
| **चित्रगुप्त** | : | महाराज, सोरो पिलो काय तो कामाची वाट लायतालो. झाड काडूंग लायल्यार तो वाकडो माड काडटालो. सुकणें काडूक लायल्यार एक लायन मारून सोरोप काडटालो.गाडयेर नंबर वाकडे तिकडे काडटालो.काम करून पैशे मेळलें काय रोखडेच ते सोऱ्याक मोडटालो.तशेंच तो सदीं मटकोय खेळटालो. |
| **नरेश** | : | ओपन कितलो येयला रे? |
| **यम** | : | शट् अप, चित्रगुप्त फुडें सांग |
| **चित्रगुप्त** | : | कोणी कामाचें पैशे दिवंक ना जाल्यार ताच्या घरां वचून ताका गाळी घाली. तशेंच कोणूय चेडू ताका पळोवन हासलें जाल्यार सगळयांक सांगी की तें आपलें मोगी म्हण. दुसरे दिसा तें हासलें ना जाल्यार ताका गाळी घाली. जितको पोटान सोरो तितको तोणांन तंबाखू आसतालो. महाराज असो हो सबंद दिस व्यसनान बुडोन आसतालो. |
| **यम** | : | शी...शी.. मनशाचें जिवीत मेळोन लेगीत जनावराभशेन जगलो. हाका जल्माकूच घालूंक जाय नासलो. चित्रगुप्त, हो मेलो कसो तो पळय. |
| **चित्रगुप्त** | : | एक दिस रातचो सोरो पियोन घरा वयतना वाटेर कुत्र्यान ताका घास मारलो. |
| **नरेश** | : | कुत्र्या! |
| **चित्रगुप्त** | : | अे SS कोणाक म्हणटा कुत्र्या. |
| **नरेश** | : | घास मारलो त्या कुत्र्याक हांव सोडचोना. ताका एक दिस तरी दाखयतलो. |
| **यम** | : | एक दिस म्हणचे केन्नां? तुका कितें दिसता तुजो पुनर्जल्म जातलो. ह्या जल्मांन सुरदास जालो. फुडल्या जल्मान कितें जावंक सोदता? |
| **नरेश** | : | देवदास |

यम : शट् अप. चित्रगुप्त कुत्र्यान घास मारलो म्हण मेलो तो?

चित्रगुप्त : ना महाराज, कुत्र्यान घास मारलो म्हण न्हय हाणें कुत्र्यार फातर शेवटीलो तो चुकोन गाडयेच्या हारशार बसलो. आनी ह्या बोवाळान ती गाडी हाच्या आंगावयल्यान गेली.

यम : म्हणजे जे गाडयेर हाणें आयूश्यभर नंबर घातले. तेच गाडयेन हाचो नंबर लायलो?

नरेश : ओपन कितलो येयला रे?

यम : ओपन जाय ?

नरेश : हय

यम : चित्रगुप्त, हाका नरकान 'क्लोज' कर ( नरकान व्हरोन सोडटा)

अमर : तोय नरकान?

यम : मागीर, कितें बरें केला ताणें जिवीतान?

अमर : कांय करूंकना जायत. पूण कितलोय जाल्यार तो एक कलाकार, ताच्या आंगान कला आसली.

यम : ताच्या आंगान कसली कला आसली ती चित्रगुप्ताकडल्यान आयकल्या हांवें.आनी कोणांक खंय सोडप तें तू म्हाका शिकोवं नाका. चित्रगुप्त, फुडल्याक घे. (तिसरो येता)

चित्रगुप्त : महाराज हो दीपक, हो आपसूक मरोंग ना हाणें जीव दिला.

यम : म्हणजे आत्महत्या? तुका जीव दिवपाक जल्माक घातलो रे. जो जीव दिता ताका पुनर्जल्म ना खबर ना तुका. आरे मनशाच्या जिवितान दुःख हें आसता, म्हणोन जीव दिवप न्हय. दुःखान लेगीत सुखाची वाट सोदून जगता तोच खरो मनीस.

दीपक : पूण हांवे जीव दिवपा फाटल्यान कारण वेगळें आसलें. जे हांव तुमका सांगूक शकना.

यम : कित्याक सांगूं शकना?

चित्रगुप्त : हांव सांगता. महाराज हो आबोली नावाच्या चेडवाचेर मोग करी. घरान मंजुरी दिना म्हण दोगांनी जीव दिवपाचें थारायलें. जीव दिवपाक ती दोगांय दोनापावल दोंगरार गेलीं. उडी मारपाक एक, दोन, तीन म्हळें. हाणें तीन म्हणटकूच उडी मारली. पूण आबोल्यान भियोन उडी मारूंकूच ना. तें सरळ आपल्या घरा गेलें आनी हो हांगा वयर आयलो.

दीपक : आबोल्या, बेवफा खंयचें. क्यूँ मेरा दिल तोडा?

चित्रगुप्त : दिल तोडा न्हय, सर फोडा. फातराक आदळलो आनी तकली फुटली तुजी.

दीपक : आबोल्या तुवेन साथ मरनेकी कसम खाई थी फिर क्यों घात किया ?

यम : शट् अप. पिक्चरांतले डायलॉग मारीत जाल्यार तुजी तकली फोड्टलो

चित्रगुपत : महाराज तो आदींच तकली फुटोन मेला

यम : तेंय सारखें. ह्या मनशांक देवान सांगलें सगळयांचेर मोग करा म्हणून. जाल्यार हे चेडवांचेर मोग करपाक लागले. मागीर त्या मोगाचो फोग जावचो ना जाल्यार कितें जातलें?

दिपक : ताणें म्हाका फटयलो, हांवें ताजेर खरो मोग केल्लो.

यम : मोग? मोग करपाक तुजे आवय बापूय नासले? आरे जाणी तुका आयुश्यभर खावयलो, तांच्या खातीर केन्ना दोन पावलां मारलीं ना. आनी जें तुजें खायत रावलें ताच्या खातीर जीव दिलो? शी... तुज्या सारखे बायजण हांवें पळोंक ना. चित्रगुप्त व्हर हाका म्हज्या फुडयांतलो.

चित्रगुप्त : खंय व्हरों महाराज?

यम : खंय म्हणजे डायरेक्ट नरकान (चित्रगुप्त दीपकाक नरकान सोडटा)

अमर : यमा ताका नरकान कित्याक धाडलो. तुजो न्याय चुकता. ताका त्या चेडवान फटयलो पूण ताचो मोग खरो आसलो. ताका नरकान कित्याक धाडलो?

यम : म्हजो न्याय केन्नाच चुकोंग ना. तोय फटींग आसलो. तो लेगीत त्या वेळार उडी मारपाचो नासलो. तो निसरोन पडलो.

अमर : कितें?

यम : चित्रगुप्त फुडल्याक हाड (चित्रगुप्त लजता) चित्रगुप्त मुरगाट्टा कित्याक?

चित्रगुप्त : महाराज आतां हें चेडूं

यम : जितें आसा तें?

चित्रगुप्त : ना महाराज, मेला तें!

यम : मागीर तू मुरकट्टा कित्याक. यो गो अशें [illegible] यो. चित्रगुप्त, सांग ताचो बॅकग्रांवड.

चित्रगुप्त : महाराज, हें बरें चेडूं


WORLD KONKANI CENTRE LIBRARY
1159

यम : फुडे सांग

चित्रगुप्त : महाराज हे सोबीत चेडू

यम : फुडे सांग

चित्रगुप्त : महाराज हें साधें चेडू

यम : चित्रगुप्त पुस्तकान पळोन सांग

चित्रगुप्त : सॉरी महाराज (पुस्तकान पळयता) महाराज हाचें नाव दीपाली... सोबीत नांव मगो तुजें

यम : चित्रगुप्त

चित्रगुप्त : दीपाली, शिकोंक हुशार आसलें. महाराज चेडयांक फाटीं घाली. केन्ना ताणें कोणांक वायट शब्द दिवंक ना... महाराज हाका स्वर्गान पावो?

यम : चित्रगुप्त फुडे सांग

चित्रगुप्त : महाराज एकदा ते आवयक फटींग सांगोन आपल्या बॉय फ्रेन्डा वांगडा... तुका बॉयफ्रेन्ड आसा गो?

यम : चित्रगुप्त

चित्रगुप्त : सॉरी महाराज, तर एकदा तें फटींग सांगोन बॉयफ्रेन्डाचे गाडयेर बसून वतालें. तेन्ना वाटेर ताका अपघात जालो. (दीपाली रडटा) दीपाली रडो नाका. ना जाल्यार म्हाकाय रडोंग येतलें. महाराज ताका सांग रडोनाका म्हण.

यम : दीपाली चित्रगुप्तान तुज्यो खुबश्यो बऱ्यो गजाली सांगल्यो. खरेंच तू बरें चेडू. पूण तुवेंन एकूच चूक केली. जल्म दिणारे आवयकडे तू फटींग उलयलें आनी पळय त्या फटींगपणानच तुजो कसो घात केलो तो. म्हाका खूब वायट दिसता तुका सांगोंक कि तुका नरकान वचचें पडटलें.

अमर : आवयस बरोच कॉमो मरे तू. सगळयांकडे तापोन उलयलो आनी चेडवाकडे बरो लाडान उलयतां.

यम : हेंच, हेंच चुकता तुमचें. तुमी स्वता बायल जातीक रिस्पेक्ट दिनात आनी दुसरो दिता जाल्यार ताका कॉमो म्हणटा? आरे बायलजातीक लागून मनीस जातीचो वंश वाडला. तीच खरी जगाची आवय. पूण तुमीं त्या बायल जातीची फकणां चलयल्यां. बलात्कार, वासनाकांड, हत्याकांड, चालू आसा. फकत स्वार्थाक लागून तुमी तिचो उपयोग केला. आरे बायल जात म्हळ्यार फकत आकर्शण न्हय तर फुडले पिळगेचे रक्षण.

अमर : तू म्हाका हें सांगता, तुजो चित्रगुप्त ताका पळोवन मुरगट्टालो.

चित्रगुप्त : शट् अप. महाराज हांव मुरगडा नासलो. म्हाका चेडवांची एलर्जी आसा.

यम : शट् अप. चल ताका बरे भशेन नरकान व्हरोन सोड

चित्रगुप्त : सगळ्यांक धुकलून घालता आनी हाका बरे भशेन सोड खय. होच व्हडलो कॉमो

यम : किते?

चित्रगुप्त : कांय ना महाराज, हाका उबारून व्हरो?

यम : नाका

चित्रगुप्त : यो गो, यो चलत यो (नरकान सोडटा)

यम : शट् सदीं तेच ते. चित्रगुप्त कितले दिस जाले, स्वर्गाचें दार तशेंच आसा

चित्रगुप्त : दिस? वर्सां जाली महाराज. स्वर्गाचे दार उगडपाक पुण्यवान मनीस मेळोंगना. महाराज म्हाका दिसता पृथ्वेर बरे मनीस जल्मांक येयना आसतले.

यम : ना चित्रगुप्त, तुका याद ना. खूप वर्सां पयलीं कांय मनशांखातीर हें स्वर्गाचें दार उगडलेलें ते. आरे देवानी लेगीत तांचेर फुला ओतयल्लीं. देशाक लागोन जिवीताचे बलीदान दिल्ले हजारानी स्वातंत्र्य सैनिकांक लागोन स्वर्गाचें दार आपोआप उगडलेले.त्या वेळार जाल्लो दबाजो आजुनूय याद आसा म्हाका...पूण आतां ते दिस खंय उरल्या हें, स्वर्गाचें दार अशा पुण्यवान मनशांक

आर्शेला.

चित्रगुप्त : महाराज बरींच वर्सां स्वर्गाचें दार उगडू नासल्या कारणांन ताचेर धूळ साठून रावल्या, आनी नरकाचें दार उगडून उगडून मोडोंग पावलां.

यम : चित्रगुप्त, स्वर्गाचें दार अशें बंद उरलें जाल्यार कशें जातले. एक तरी पुण्यवान मेळूंक जाय आसलो.

चित्रगुप्त : महाराज दुःखी जांवं नाका, एक दिस एक पुण्यवान मनीस येतलो. महाराज घडये तो पुण्यवान मनीस होच आसत.हाचो आजून हिशोब मांडूंगना आमीं.

यम : हो आनी पुण्यवान? मेल्या उपरांत आमकां ताणें कितलो त्रास दिलो. लायनीक राव म्हळयार लायनीक रावना. आपूण मेलो हें मान्य करपाक तयार ना. वयल्यान आयिल्ल्याक बडबड केल्या. हाणें मरोन आमकां इतको त्रास दिला तो जितो आसतना लोकांक कितलो त्रास दितालो कोण जाणा. चित्रगुप्त म्हाका दिसता ताचो हिशोब आनी उगडपाचो ना, ताका डायरेक्ट नरकान व्हरोन सोडपाचो. पूण तरीय आमकां आमची ठरलेली ड्युटी करूंकच जाय.. चित्रगुप्त उगड ताचो हिशोब पळोवयां ताणें कितलो उजवाड घातला तो. पूण हांव सांगता हाका नरकच फावो जातलें.

अमर : म्हाका तुमचो स्वर्गय नाका आनी नरकूय नाका, कारण हांव मरोंग ना. हांव जितो आसा.

यम : शट् अप. परत परत तींच मुर्खपणां उलोवं नाका. चित्रगुप्त बेगीन हाचीं कर्मा वाच. (चित्रगुप्त पान उगडटा इतक्यान घडघडयांचो आवाज.)

चित्रगुप्त : महाराज घात जालो, घात जालो महाराज.

यम : चित्रगुप्त किदें जाले

चित्रगुप्त : महाराज तुमी चूक केली

यम : अरे ह्या आवाजाचेरूच कळलें म्हाका म्हज्या हातीन, चूक जाल्या ती. पूण ती चूक कसली ती सांग.

चित्रगुप्त : महाराज खऱ्यांनी हाचें मरण येंवंक ना. हो मनीस मरोंग ना

यम : किदें?

चित्रगुप्त : हय महाराज. तुमी ताका चुकोन हाडला (घडघडयाच्यो आवाज. सगळें हालता. तिगूय पडटा)

यम : माफ करा देवा, माफ करा, हांव म्हजी चूक मान्य करता. म्हाका माफ करात (अमराचे पांय धरता) हे मनशा म्हाका माफ कर. हांव तुजो गुन्यावकारी. तुजें मरण येवच्या पयलीं हांवें तुका हाडलो. म्हाका माफ कर.

अमर : वदळच्यान हांव तुमकां तेंच सांगता. हांव मरोंग ना म्हण. जाल्यार तुमीं मानपाक तयार ना. जिवीतान हांवें दर एका गजालीचेर आत्मविश्वास दवरला आनी

म्हाका यश फावो जालां. आयज मरणाचेरूय हांवें तसोच विश्वास दवरलेलो.

यम : तुज्या आत्मविश्वासाक मानता हांव पूण म्हज्या हातान अशी चुक केन्नाच घडोंग ना. पयले फावट म्हज्या हातान अशी चूक घडली. मनशा, म्हजे या चुकीविशी म्हाका माफ कर.

अमर : तू यम. देवाचो एक सेवक, ताका लागोन तुवेन एका मनशाचे पांय धरप सारखें न्हय. उठ आनी फुडलो विचार कर.

यम : चित्रगुप्त ही चूक कशी जाली पळय

चित्रगुप्त : (पुस्तकाची पाना चाळटा) महाराज, सूरज नावाच्या मनशाच्या जाग्यार तुमीं हाका हाडलो.

यम : किदें? पूण ही चूक जाली कशी?

चित्रगुप्त : महाराज तुमची चूक ना. तो सूरज आनी हो एकाच सारखो दिसता, म्हण चूक जाली

यम : किदें? एक सारखें दिसताले. मनशा खऱ्यानीच हांवें व्हडली चूक केली आनी दुसऱ्याच्या वाटयाचें मरण तुका दिलें. व्हडली चूक घडली म्हज्या हातान.

अमर : म्हाका हाडच्या पयली म्हजे नांव तरी विचारचें आसलें. म्हजें नांव अमर. जो केन्ना मरना तो अमर आनी त्याच अमराक तुवेंन जितो आसतना मारलो?

यम : हें पळय, तू फकत नावाचो अमर. तुकाय मरण हें आसाच, फकत तुजी तारीख खूप फुडें आसा.

अमर : केन्ना मरपाचो आसा हांव?

यम : कोणाच्या मरणाची तारीख आमीं सांगूंक शकना

अमर : सांगू शकना जाल्यार जेंका तुमीं तारके पयली हाडलो ताचो विचार कर. तुवेन केल्ली चूक सुदारात बेगीन. म्हाका हाडला तसो परत पावय. ह्या आत्म्याक परतून शरीरांन घाल. बेगीन, वगत करूं नाका. ना जाल्यार म्हजे घरचे म्हजी कुड मसुंडेन व्हरोन जळयतले.. तुमचे चुकीचें फळ म्हाका भोगचे पडटलें.

यम : म्हाका एक सांग तुज्या सारखो दिसपी तो सूरज तुजो कोण, भाव?

अमर : किदेंय उलोवं नाका, तो आमचो शेजारी

यम : शेजारी? मागीर तो तुज्या सारखो कसो दिसता?

अमर : तें म्हाका किदें विचारता. म्हज्या बापायक विचारा

यम : किदें?

चित्रगुप्त : महाराज म्हाका कळली सगळी भानगड. महाराज तुमची कांयच चूक ना.

अमर : अे शिरपुटया, किदेंय उलोवं नाका. म्हाका मरणां पयली हाडपाची चुक ताणें केल्या. यमा आतां उलोवपाक वेळ वगडावं नाका. म्हाका बेगीनात बेगीन घेवन चल सकयल.

**यम** : मात्सो राव म्हाका विचार करूंनी

**अमर** : आतां विचार आनी कसलो करता? म्हाका चुकोन हाडटना विचार करू सो दिसलो ना ?

**चित्रगुप्त** : ए तू मर्दी मर्दी उलोवं नाका. महाराजाक विचार करूंनी. खूप दिसानी महाराज विचार करता

**अमर** : तुमकां आदींच सांगता हांव, म्हाका पावोपाक कळाव जालो जाल्यार हांव तुमची कंप्लेंट करतलो.

**चित्रगुप्त** : खंय करतलो? तुका ही पृथ्वी दिसता? हांगा कंप्लेंट ना, डायरेक्ट निकाल.

**अमर** : पयलीं म्हजो निकाल लायात

**चित्रगुप्त** : महाराज तुमचें चिंतून जालें? ह्या आत्म्याक परत पृथ्वेर व्हरपाक कळाव जालो आनी कूड तांणी जळयली जाल्यार हो आत्मो सगळयांक त्रास करतलो.

**यम** : म्हाका कितें निर्णय घेवप तेंच कळना. (आवाज) चित्रगुप्त हो आवाज कसलो.

**चित्रगुप्त** : महाराज सगळया देवांक आमची चूक कळली दिसता. तांच्या क्रोधाचो आवाज हो (स्वगताचो आवाज. चित्रगुप्त भायर पळयतां) महाराज आमी खंय तरी लिपलले बरे.

**यम** : किदयाक?

**चित्रगुप्त** : महाराज, ब्रह्मदेव येता

**यम** : किदें ? ब्रह्मदेव म्हजा दरबारान येता?

**चित्रगुप्त** : महाराज, ब्रह्मदेवाक आमचे चुकीची खबर कळली आसतली म्हण ते जाप विचारपाक हांगा येता आसत.

**अमर** : हो ब्रह्मदेव म्हळयार...

**चित्रगुप्त** : आरे ब्रह्मदेव म्हळयार तुजो बापूय

**अमर** : म्हजो बापूय राजाराम, ब्रह्मदेव न्हय

**चित्रगुप्त** : आरे हो ब्रह्मदेव म्हळयार सगळयांचो बापूय. आख्ख्या विश्वाचो बापूय ( आवाज) आयलो सो दिसता.

**अमर** : ब्रह्मदेव? म्हळयार देव ब्रह्मदेव? ज्या देवाविशी भुरगेपणांतल्यान आयकत आयला तो देव. म्हळयार हांव ब्रह्मदेवाक मेळटलो? केदें व्हड भाग्य म्हजें (बदकाच्या रथान बसोन ब्रह्मदेव येता.)

**यम** : येवकार देवा, म्हज्या दरबारान तुमकां येवकार. हें म्हजें भाग्य की तुमचे पाय ह्या दरबारान लागले.

**ब्रह्मदेव** : यमा आदी म्हाका सांग तुवेन कसली फकाणां चलयल्यां. मरणां आदी तुवेन ह्या मनशाक वयर हाडपाची चूक केलीच कशी. तुजेर सोंपयल्लो वावर तुज्यान जायना जाल्यार सोडून दी सिंहासन, सोडून दी हो दरबार.

**यम** : देवा म्हाका माफ करात, पयले फावट ही चूक घडल्या

ब्रह्मदेव : पयली फावट आसली, तरी ही चूक व्हड आसा हें लक्षान येना तुज्या. आरे तुमचे चुकीक लागून एका मनशाचें जिवीत अर्दकुटें उरलें. ताणें थारावन दवरलेलीं कामां अर्दवट उरलीं.

चित्रगुप्त : देवा ताका पळयल्यार दिसना तो कामाचो मनीस कसो

ब्रह्मदेव : चूप, कोण कसो हें तुमीं मनीस मेल्या उपरांत ठरोवपाचे, जितो आसतना न्हय. यमा म्हाका दिसता तुजें कामाकडे लक्ष ना.

यम : ना देवा म्हजें पुराय लक्ष आसा

ब्रह्मदेव : मागीर ही चूक घडली कशी

अमर : देवा, म्हाका दिसता तो मोगान पडला आसतलो.

चित्रगुप्त : ए...महाराजाविशी किदेंय उलोवं नाका. महाराज कोणाच्या मोगान पडलो तरी कोण महाराज्याच्या मोगान पडों नाका?

ब्रह्मदेव : मनशा तुजें नांव कितें?

अमर : म्हाका हांगा हाडच्या पयली म्हजें नांव विचारलेले जाल्यार ही चुक जावची नासली. म्हजे नांव अमर. जो केन्ना मरेंग शकना तो अमर.

चित्रगुप्त : तुका वदळच महाराजान सांगला की तू फकत नांवाचो अमर म्हणून...

ब्रह्मदेव : अमर, तुका हांणी केल्ली चूक लक्षांत आयल्या?

अमर : हय देवा, पूण हांचे चुकीची शिक्षा म्हाका किदयाक?

ब्रह्मदेव : जें जालां तें आतां कोंण आडावंक शकना. फकत आमच्या चुकीचें प्रायश्चित म्हणून हांव कितें करूं तें सांग?

अमर : म्हाका हाडला तसो परतून व्हरून सोडात

ब्रह्मदेव : तेंच तर शक्य ना.एकदा हाडलेल्या मनशाक परत पावप हें कायदया भायर आसा. आनी तू फकत एक आत्मो. तुका तुजे कुडीन सोडपाक तुजी कुड उरल्या खंय.तो पळय (वयलयान सकयल दाखयता) तो पळय तिचो गोबोर जालो.

अमर : किदें? म्हाका जळयलो? म्हणजे हांव जितो आसोन लेगीत मेलो? ना देवा ना, अशें जावंक शकना. देवा तुमीं हें विश्व घडयलां. सुर्याचें उगवप, चंद्राचें मावळप, पृथ्वीचें गोल फिरप. निसर्गांतलो दर एक चमत्कार तुमचोच. त्या चमत्कारान मनीस नावाचो एक जीव आसा. त्या जिवाक वेळार जल्म आसा आनी वेळार मरणय आसा. ताच्या जिवीताची काणी तुमीच रचल्या. पूण आयज तुमी रचिल्ली ही मांडावळ चुकल्या देवा. तुमी ह्या विश्वाचे बापूय जाल्यार आयज तुमच्या भुरग्याचेर अन्याय जाला. म्हाका न्याय जाय देवा, म्हाका न्याय जाय.

ब्रह्मदेव : हांव जाणा अमर, तुजी स्वप्नां अर्दकुटीं उरल्यांत. फुल बावतकूच पडटा, पूण तुजो देठ फुलच्या आदींच तुटलो, फकत आमचे चुकीक लागोन. तुज्या जिवीताक नवी वाट दिवप म्हजें कर्तव्य. अमर तुका तुजें जिवीत परतून

मेळटलें. तुका पुनर्जल्म मेळटलो

अमर : किदें पुनर्जल्म?

ब्रह्मदेव : हय, पूण हें करतना म्हाका हांगासल्ले सगळे नियम पाळचे पडटले. एक चूक सुदारपाक हांव दुसरी चूक करूंक शकना. अमर, पुनर्जल्म मेळपाक ह्या स्वर्गाच्या दारांत प्रवेश करप गरजेचें आसा. जो मनीस पुण्य करून ह्या दारांत प्रवेश करता ताकाच पुनर्जल्म मेळटा.

अमर : पूण देवा हांव तें पुण्य कशें करू. हांव तर मेला?

ब्रह्मदेव : तुवेन पुण्य करपाची गरज ना.

अमर : मागीर स्वर्गाचें दार म्हज्या खातीर कशें उगडटलें

ब्रह्मदेव : तुका एक पुण्यवान आत्मो सोदचो पडटलो.

अमर : पुण्यवान आत्मो?

ब्रह्मदेव : हय, पुण्यवान आत्मो. ताका घेवन जेन्ना तू स्वर्गाच्या दारांत प्रवेश करतलो. तेन्ना ताज्या वांगडा तुकाय पुनर्जल्म मेळटलो. हो म्हजो आशिर्वाद आसा.

अमर : पूण देवा हांव खंयच्यान हाडूं पुण्यवान आत्मो?

ब्रह्मदेव : ताकालागोन तुका कायवेळाखातीर पृथ्वेर वचचें पडटलें ... पूण पृथ्वेर वतना एक गजाल लक्षांत आसूंदी की, तू फक्त एक आत्मो. आनी आत्मो चड वेळ पृथ्वेर रावोंक शकना. ताका लागोक तुका तुजें काम बेगीनच करचें पडटलें. दुसऱ्या आत्म्याक सोडून पृथ्वीवयल्या खंयच्याच मनशाक तू दिश्टी पडचो ना.

अमर : देवा तुमकां दिसता म्हाका यश मेळटलें कशें?

ब्रह्मदेव : अमर, तू सद्या एक आत्मो. तरी तुजी जात मनशाची, आनी मनशाक खंयचीच गजाल अशक्य ना. फकत तुवेन त्रास घेवचे पडटले

अमर : पुनर्जल्म मेळपाक हांव त्रास काडपाक तयार आसा. पूण देवा हांव पृथ्वेर परतून वतलो कसो.

ब्रह्मदेव : पृथ्वेर तू एकटो वचचो ना, चित्रगुप्त तुज्या वांगडा आसतलो. तसोच पुण्यवान आत्मो सोदपाक तो तुजी मदत करतलो. पयलीची जल्मभूमी सोडून तू जाय थंय वचूं शकता. पयलींच्या जल्मभूमीर गेलो जाल्यार तुज्या भावनांक तू आवरूंक शकचो ना, आनी आपलें कर्तव्य विसरतलो, म्हण तुका पयलींचो जल्म विसरचो पडटलो.

अमर : म्हज्या लोकांखातीर हो अमर केन्नाच मेलो, मागीर तो जल्म याद दवरून तरी कितें करूं. हांव तो जल्म याद दवरचोना देवा.

ब्रह्मदेव : बरें आसा. तुका तुज्या कामांत यश फावो जावंनी. म्हजो आशिर्वाद तुज्या फाटल्यान आसा.

अमर : थँक यू देवा!

ब्रह्मदेव : किदें?

**अमर** : उपकारी देवा

**ब्रह्मदेव** : यमा तुजी ही पयली चूक म्हण हांव तुका माफ करता. पूण लक्षांत दवर ही चूक परत घडोंक फावोना

**यम** : ना देवा, अशी चूक परत जावची ना

**ब्रह्मदेव** : येता हांव (रथार बसोन वता)

**अमर** : (खोशी जावन) म्हाका पुनर्जल्म मेळटलो, पुनर्जल्म!

**चित्रगुप्त** : पूण तो मेळोवपाक तुका पुण्यवान आत्मो हाडचो पडटलो हें लक्षांत दवर. ना जाल्यार पृथ्वेर वचून विसरशीत

**अमर** : विसरलो जाल्यार तू आसाच न्हय याद करून दिवपाक

**यम** : चल मनशा, पुनर्जल्माची तयारी कर. म्हजो आशिर्वाद तुज्या फाटल्यान आसा.

**चित्रगुप्त** : महाराज तुमीं यम, मनीस मेलो काय तुमचो आशिर्वाद लागता. मनशाच्या जिविताकडे तुमचो आशिर्वाद काम करीना

**यम** : मनशा तुज्या यशाखातीर हांव देवाकडे प्रार्थना करता. चित्रगुप्त देवान तुजेरूय महत्वाची कामगिरी सोपयल्या ती बरे भशेन कर

**चित्रगुप्त** : महाराज तुमीं कांयच काळजी करूं नाका. तुमी मात सामाळून. आनीक कोणांक असो चुकोन हाडूं नाका. मनशा, चल आमीं या

**अमर** : चल या. आई हांव आयलो. आयलो हांव आई

**चित्रगुप्त** : खंयचे आईक उलो मारता?

**अमर** : हांव धरतीमातेक उलो मारता. आमचे जमनीक आमी आई म्हणटा.

**चित्रगुप्त** : जमनीक आई म्हणटा? आनी मळबाक कितें बापूय म्हणटा?

**अमर** : चित्रगुप्त, तुज्या सारखो पिसो आमकां मेऴळो जाल्यार ताका आमी कितें म्हणटा जाणां?

**चित्रगुप्त** : कितें?

**अमर** : सकयल मेळळो तो मेळळो पूण वयर मेळो नाका

**चित्रगुप्त** : आतां म्हाका कितें म्हणटलो तर तू?

**अमर** : वयर मेळळो तो मेळळो पूण सकयल मेळों नाका (यम हासता. पड्डो पडटा)

अंक सोंपता

## अंक दुसरो

(अमर आनी चित्रगुप्त पृथ्वेर येता)

**अमर** : चित्रगुप्त, चित्रगुप्त म्हजे पांय जमनीक लागले. हांव पृथ्वेर पावलो. परत म्हजे धर्तरेर आयलो.

**चित्रगुप्त** : अमर तू परतून पृथ्वेर पावलो पूण हो तुजो पुनर्जल्म समजूं नाका. कारण तू हे पृथ्वेर कांय खिणांखातीर आयला.

**अमर** : चित्रगुप्त, कित्याक कोण जाणा पूण अशें दिसता, हांव हे धरतरेर पयलेच फावट आयला. पयल्या परस सगळे म्हाका खूब सोबीत दिसपाक लागला. इतकीं वर्सा हे धर्तरेर घालयलीं, ह्या सैमान ल्हानाचो व्हड जालो, पूण पृथ्वी वयल्या ह्या सैमाची सोबितकाय केन्ना जाणवली ना. चित्रगुप्त, चित्रगुप्त पळय हो चमत्कार त्या सूर्याचें उगवप, चंद्राचें मावळप, पृथ्वीचें गोल फिरप सगळे कितलें चमत्कारीक. पळय, पळय चित्रगुप्त, तो दोंगर पळय, त्या मदी सूर्याचीं किरणां पळय, दर्या ल्हारां पळय, झाडाचें वैभव पळय. आयक, आयक हो सुकण्यांचो चिवचिवाट, तो धबधब्याचो आवाज. आयक त्या देवळांतल्यो, इंगर्जेतल्यो घंटा, मशीदींतलो आलाव. चित्रगुप्त, चित्रगुप्त आंगार ओडून घे ही मंद वाऱ्याची चादर, ओडून घे हो मातीचो सुगंध.

**चित्रगुप्त** : खरेंच, अमर सैमान नटिल्ली ही पृथ्वी कितली सोबीत आसा. इतकें सोबीत विश्व मेळोन लेगीत हे मनीस आत्महत्या किदयाक करता तें कळना. ह्या सैमाचे वेंगेन रावोन सात जल्म घालोवचे साणून मरणाक वेंग कित्याक मारता.

**अमर** : जांका जिविताची सोबितकाय दिसना तांका सैमाची सोबितकाय कशी दिसतली. जिवितान सैमाचें संगीत भरप तांका जमलेंच ना. (पैस गितांचो आवाज)

**चित्रगुप्त** : अमर हें आयकूंक येता तें कितें?

**अमर** : हें सैमाचें गीत. मनशान सैमाचे तोखणांयेन जाय तीं गीतां तयार केल्यां. तातुंतले हें एक. चित्रगुप्त चल आमी सायडीक रावोन हें गीत आयकूया ( शेतातलीं बायलां-दादले गीत गायत नाचत वता) चित्रगुप्त, आयकली सैमाची तोखणांय ह्या गीता वयल्यान कळाटा की सैमाचें आनी मनशाचे नाते कितलें अतूट आसा.

**चित्रगुप्त** : अमर तुज्या भावनांक आडय. पृथ्वीच्या मोगान तू कर्तव्य विसरशीत. लक्षांत दवर ही धरतरी आजून तुजी जावंक ना, कारण हे पृथ्वेर मनीस राज्य करता

आनी तू मनीस न्हय तर फकत आत्मो. हे पृथ्वीचेर येवपाक तुका पुनर्जल्म घेवपाक जाय आनी तो मेळोवपाक एका पुण्यवान आत्म्याची गरज आसा. आनी ताच्याच शोधान तू हांगा आयला

अमर : खरें तुजें, पृथ्वेच्या मोगान हांव म्हजें कर्तव्य विसरतलो आशिल्लो. चल या, एका पुण्यवान आत्म्याच्या शोधान.

(ल्हव ल्हव काळोख जाता)

देखाव पयलो - गांव

(गांवांतले लोक सभेक जमल्या. सरपंच मंत्र्याची वाट पळयतां)

दिनू : सरपंच मिया घराकडे जावन येतंय

सरपंच : खंय वयता? तुका खबर ना मुखेलमंत्री आमच्या गांवचे भेटीक येता तो

दिनू : जाणय पूण केवां येतलो तो. ह्या तुमच्या पेलवानान सकाळी हातरूणांवयलो उबारून हयसर हाडलो. संडासाक लेगीत जावंक दिला न्हाय

सरपंच : एक दिस संडासाक गेलो ना जाल्यार मनीस मरना. आनी आयज मुखेलमंत्री येता तो तुमच्याच बऱ्या खातीर येता न्हय

कांता : पूण सरपंच आमकां गोरवांचा दुध काडूंक व्हयां. तांका चरांक सोडूंग व्हयां

पेलवान : सरपंच फोडूं हाका?

सरपंच : नाका, हें पळय आयचें आनी फाल्यांचें दूध वांगडा काड

कांमा : गोरवां भुकेलीं आसतलीं सरपंच

सरपंच : ती भुकेलीं काय तू भुकेलां रे?

कांता : मज्याय पोटांत कावळे आरडटात. ह्या पेलवानान च्या चो घोट लेगीत घेवंक दिलो ना. कोनशाचो सूर्य माथ्यार इलो. सगले गांवकार वतान करपल्यात

पेलवान : सरपंच फोडूं हाका

सरपंच : नाका. हरशी वतान काम करीनात रे तुमी? तेन्ना तुमची तकली तापना? आयज हांवें पांच मिनटां खातीर आपयलें जाल्यार तकली तापता तुमची. इतको वोगोत पाशियस काडलें आनी मात्शें काडात. जाय जाल्यार तुमकां सोरो दिता.

कांता : सद्या घोटभर खुटी च्या मेळळयार उपकार जातलें.

पेलवान : सरपंच फोडूं हेंका

सरपंच : नाका (मोगरे उठता)

मोगरे : सरपंच

सरपंच : कितें जाले गो? मोगऱ्या उठलें कित्याक

मोगरे : सरपंच म्हाका वाज इलो

पेलवान : सरपंच फोडूं हाका?

सरपंच : चूप. सगळ्यांक फोडूंक सोदता. चेडवांक फोडपाक दवरला तुका हांवे...

मोगऱ्या ह्या पेलवानांचें मनांक लावन घेवंकनाका आ. सांग कितें जालें वाज येयलो तुका?

मोगरे : व्हय सरपंच उनान बसान म्हाजी तकली पेटली

सरपंच : तू वताक कित्याक बसलें. थय झाडापोंदा सावळेक बसचें न्हय

पेलवान : सरपंच ताका काजीपोंदा बसपाक लाय

सरपंच : चूप. सगल्यांच्या म्हऱ्यान कितेंय उलोवं नाका

मोगरे : सरपंच ह्या पेलवानान म्हाका झोपेतलां उबारून हाडलां

सरपंच : हय रे?

पेलवान : तुमीच काल सांगलेलें न्हय, सकाळ जाली काय सगळयांक उबारून हाड म्हणून

सरपंच : म्हणून कितें मोगऱ्याकूय हाडटा

पेलवान : परत जाग्यार दवरू?

सरपंच : चूप!...मोगऱ्या आतां मगो मुख्यमंत्री येतलो

मोगरे : म्हाका बघूंक?

सरपंच : तुका कित्याक हांगा कितें तुजी सोयरीगत आसा? तो आमचो गांव पळोंवक येतलो. तुवेंन इतको वोगोत पाशियस काडलें न्हय आता आनींक मात्शें काड. आनी हो घे लेस हो माथ्यार घाल आनी बस म्हणजे तुका वत लागचें ना.

दिनू : सरपंच आमकांय लेस दी

सरपंच : तुज्या बापायन दवरूंक दिला म्हजेकडे

पेलवान : सरपंच फोडूं हेका?

सरपंच : तू परत परत फोडपाच्यो गजाली कित्याक करता रे?

पेलवान : फोडपाक लागोन तुमी म्हाका कामांक दवरला न्हय

सरपंच : हय, फकत फोडूं काय विचारता फोडी कोणांचें ना

पेलवान : फोडूं कांय विचारलें जाल्यार तुमी नाका म्हणटा. फोडटलो कसो.

सरपंच : तुका मुद्दाम नाका म्हणटा, कारण तुका पगार दिवपाक म्हजेकडे पैशे ना. (सायरनाचो आवाज) मुखेलमंत्री आयलो सगळे उठात. (गांवकार उठता. मुखेलमंत्री येता) मोगऱ्या हो हार गळयांत घाल ( मोगरें स्वताच्या गळयांत घालता) आगो तुज्या न्हय, मंत्र्याच्या गळयांत घाल (मोगरे मुरगडत हार घालता.सगळे ताळयो मारता. मंत्र्याक बसयता)

पेलवान : सरपंच फोडूं हेका?

मंत्री : (उठोन) किदें?

सरपंच : सर तुमकां न्हय. तो नाल फोडूं काय विचारतां. सर हांव तुमची गांवकऱ्यांकडे वळख करून दिता. सगळे बसोन घेयात (बसतात) गांवकऱ्यांनो तुमी सकाळच्यान जांची वाट पळयतात तो तुमचो पुढारी राज्याचो मुखेलमंत्री हांगा आयिल्लो आसा.सगळयांनी ताळयो मारून तांचे स्वागत करचे (टाळयो)

गांवकऱ्यांनो, हे मंत्री तुमच्या बऱ्या खातीर आयिल्ले आसात, तेन्ना ते तुमकां आपले दोन शब्द सांगतले.( टाळयो)

मंत्री : (उठता) सरपंच मायक खंय?

सरपंच : सर, मायकाची गरज ना. तुमी उलयता तें फुडल्यांक आयकूंक येतलें.

मंत्री : आरे पूण फाटल्यान उबे आसा तांचें कितें?

सरपंच : सर ते गांवचे न्हय, ते स्टेजकार. तांका सांगला हांगाच रावा, तुमचें भाषण सोंपले काय स्टेज सोडयात, ओगी भाडें वाडोंग नाका.. सर तुमी उलयात

मंत्री : म्हज्या भावांनो आनी...( मोगरें मुरगडत उठता) एकटयाक सोडून म्हज्या भयणींनो. हांव जाणां तुमी सकाळच्यान म्हजी वाट पळयतां. आता दनपार जालीं. माथ्यार सूर्य आयिल्या कारणांन तुमी तापल्या आसतले. तुमकां म्हजे खातीर वतान बसोन रावचें पडलें, पूण तुमी भियोवं नाकात. दुसरे फावट हांव आनींग उसरां येतलो, म्हणजे म्हजे भाशण आयकोपाक तुमकां वत लागचे ना.

सरपंच : ताळयो (सगळे ताळयो मारता)

मंत्री : म्हज्या भावांनो आनी...(मोगरें उठता) एकटयाक सोडून म्हज्या भयणींनो. आयज तुमकां मेळपाक म्हाका खुब खोशी जाल्या. तुमच्या कपडयांक पळोवन म्हाका कांय वर्सा पयली केल्लें सर्तीचें नाटक याद जालें.

सरपंच : सर कितेंय उलोवं नाका, तेंका राग येत.

मंत्री : बरे केलें सांगोन... म्हज्या भावांनो आनी...(मोगरें उठता) एकटयाक सोडून भयणींनो.

सरपंच : ही पिडा परत परत कित्यात उठता?

पेलवान : सरपंच...

सरपंच : फोडूं काय विचारूं नाका. हांव तुजें फोडटलो. भाशण आयक

मंत्री : तुमच्या गांवान येतना हांवें वाटेक एकटयाक ह्या गांवचो पत्तो विचारलो. ताका विचारलें "व्हेर इज माय प्रोग्राम" पूण तो ओगीच रावलो. हावेंन ताका चारदा विचारले "व्हेर इज माय प्रोग्राम"जाल्यार ताणे म्हाका एकदाय जाप दिवंकना

सरपंच : कोण तो दळदिरो?

पेलवान : मेळोनीच फोड्टा ताका

सरपंच : चूप!

मंत्री : ताणें म्हाका जाप कित्याक दिवंकना ते तुमी सांगोक शकता?

दिनू : तो गांवचो नासतलो!

मंत्री : ना

दिनू : आयकोंक ना आसतलें!

मंत्री : ना

कांता : तो मोनो आसतलो!

**मंत्री** : ना. ताणें जाप दिवंक ना, कारण ताका म्हजी इंग्लीश कळोकूच ना(ताळयो)

**सरपंच** : कारण नासतना ताळयो मारतात

**पेलवान** : सरपंच फोडूं तांचें

**सरपंच** : आता हांव तुजें फोडटलो. तो मंत्री कितें सांगता तें आयक

**मंत्री** : आयज शारांनी ल्हान ल्हान भुरगीं फटफटीत इंग्लीश उलयतां, पूण गांवात म्हाताऱ्याक लेगीत इंग्लीश उलोवपाक कळना. पूण तुमी कांयच भियोवं नाका. हांव ह्या गांवचें शिक्षण इतके वाडयतलो की ह्या गांवात जल्माक येणारो भुरगो जल्माक येताच पयली गुडमोर्निंग म्हणटलो.

**सरपंच** : ताळयो (ताळयो मारता)

**मंत्री** : म्हज्या भावांनो आनी ...(मोगरें उठता) एकटयाक सोडून भयणींनो. हांव मुखेल मंत्री ह्या नात्यान तुमकां आश्वासन दिता, कि तुमच्या गांवात रस्त्याचेर जे बुराक पडल्यात ते ह्या वर्सा भिरत पुरयतलो. सरपंच, लोकांनी ताळयो कित्याक मारूंकना?

**सरपंच** : कशे मारतले. तुमी म्हणटा रस्त्यावयले बुराक पुरयतले, पूण आमच्या गांवांत रस्तोच ना

**मंत्री** : किदें? हांव जाणा ह्या गांवात रस्तेच ना. पूण तुमीं कांय भियोंव नाका. हांव पयली रस्तो करतलो, ताका बुराक घालतलो आनी मागीर ते पुरयतलो पूण वर्सा भितर बुराक पुरोवपाचें काम करतलो.

**सरपंच** : ताळयो(ताळयो मारतात)

**मंत्री** : तशेच तुमकां हांव आनीक एक आश्वासन दिता, की वर्सा भितर गांवान पूल बांदतलो

**सरपंच** : सर गांवान न्हय ना मागीर पूल खंय बांदतले?

**मंत्री** : बरें केले सांगून. तुमच्या गांवान न्हय ना ती जाणा हांव. पूण तुमी कांयच भियोंव नाका. हांव पयलीं न्हंय खणटलो आनी मागीर ताचेर पूल बांदतलो. पूण वर्सा भितर गांवान पूल बांदतलो

**सरपंच** : ताळयो (ताळयो मारता)

**मंत्री** : तुमचो सरपंच आमच्या पार्टीचो मनीस. तो सांगतालो की तुमी ताच्या उतरा भायर ना. हांव जाणां आयज तुमी ताच्या उतराक लागोन हांगा आयल्या

**पेलवान** : उतराक खंयचे हांवेन उबारून हाडल्या

**सरपंच** : ओगी राव

**मंत्री** : हांव तुमचेकडे निमाणे एकूच मागता, कि गेल्या वेळार जशें तुमी म्हाका निवडून हाडले तशे ह्या वेळारूय तुमी म्हाकाच निवडून हाडात

**सरपंच** : सर हे लोक तुमका कित्याक निवडून हाडटले

**मंत्री** : कित्याक हाडचेना?

सरपंच : ही एरीया तुमकां लागना
मंत्री : म्हाका लागना जाल्यार म्हाका हांगा कित्याक हाडला
सरपंच : सर तुमी ह्या राज्याचे मुखेलमंत्री म्हण
मंत्री : बरें आसा... म्हज्या भावांनो आनी...(मोगरें उठता) एकटयाक सोडून म्हज्या भयणींनो. आता जेवणाचो वेळ जाल्या कारणांन तुमका भूक लागल्या आसतली. तेन्ना हांव म्हजे भाशण हांगाच सोंपयता
सरपंच : ताळयो (ताळयो मारता)
मंत्री : सरपंच तांका म्हजो जय जय करपा लाय मरे
सरपंच : मुखेलमंत्री गावणेकर की... गांवणेकर की...
मंत्री : हें कितें, एकटोय जय म्हणीना
पेलवान : सरपंच फोडूं तांचें
सरपंच : फाल्यां फोड. सर ते भुकेल्या, आंगान जीव ना तांच्या. चलात तुमी(सगळे वयता)
मंत्री : दुसरे फावट म्हज्या भाशणाक जीव आसलेले मनीस हाड. आनी म्हाका एक सांग म्हाका हार घातलेलें ते चेडू कोण?
सरपंच : सर तें मोगरें
मंत्री : मोगरें... काय बरें. सरपंच बरें केले तुमी ताका म्हज्या गळयांत हार घालूंक लायलो.
सरपंच : सर भियोवं नाकात. दुसरे फावट हांव तेका तुमकां राखी बांदपाक लायता
मंत्री : राखी. तूच बांदून घे. आता चल म्हाका जेवणांक व्हर. गाढव खंयचो (वता)
सरपंच : पेलवान म्हजे कितें चुकलें?
पेलवान : कांय चुकोंग ना, म्हणून हांव तुमकां विचारतां...
सरपंच : किदें?
पेलवान : फोडूं ताका
सरपंच : (तापोन) फुडें चल (अमर आनी चित्रगुप्त येता)
चित्रगुप्त : चल अमर, धांव ताज्या फाटल्यान. होच मनीस पुण्यवान. घेवन चल ताजो पवित्र आत्मो. आनी घें तुका पुनर्जल्म
अमर : पुण्यवान? ह्या मनशान तुका कितें बरेंपण दिसलें, कित्याक तू ताका पुण्यवान म्हणटा?
चित्रगुप्त : पुण्यवानच आसतलो, नाजाल्यार कित्याक तांच्यानी ताज्या गळयांत हार घातलो. कित्याक ताजो जय जय कार केलो. आनी तुवेन पळोवंक ना. ताची दोन उतरां आयकुपाक कितली गर्दी जमिल्ली ती. चल अमर व्हर ताका स्वर्गान.
अमर : स्वर्ग खंयचो तो नर्कान वयपाच्या लायकेचो आसा. दादाभाई नर्कान गेलो. याद ना तुका. हो लेगीत तेच जातीचो. स्वार्था खातीर लोकांच्या

मनांकडेन खेळप. तांका खोटी आश्वासनां दिवप. गरिबांचे रगत पिवन स्वतः घट्ट जावप हेंच काम तांचें. नांव पूढारी पूण मतांचे भिकारी

**चित्रगुप्त** : म्हळयार भायल्यान एक रूप आनी भितरल्यान दुसरें. हाका खबर ना वयर सगळयांचो हिशोब चल्ला?

**अमर** : म्हाका कळलें तशें ताकाय हें सत्य कळटलें. चल आमीं फुडें या. पवित्र आत्म्याच्या शोधान

देखाव दुसरो - "रस्तो"

(रस्त्यार ट्रॅफीक पुलीस रावल्या. अमर आनी चित्रगुप्त येता)

**चित्रगुप्त** : अमर मनीस हे कोण. दोघांयनी वस्त्रां एकच तरेची घातल्यां. हे सगळया पेक्षा कोण तरी वेगळे आसतले.

**अमर** : चित्रगुप्त आमीं ह्या जाग्यार उबे आसा ताका रस्तो म्हणटा. आनी ह्या रस्त्यार जीं वाहनां चलता तांचेर नियंत्रण दवरपाक हे उबे आसा. जो वाहन चालक कायदो मोडटा तांका ते दंड दिता. हांका ट्रॅफिक पुलीस म्हणटा.

**चित्रगुप्त** : वाहनांचेर नियंत्रण दवरपाक? तशे जाल्यार बरें काम करता ते. मनशानूच तयार केल्ल्या वाहनांक मनीस जाय तसो धावणायता. ह्या रस्त्यार चलतना जीव मुठीन धरचो पडटा. वाहनांचो आवाज लेगीत तितकोच भयानक. ह्या वाहनां परस महाराज्याचो रेडो परवडलो. तो इतको आवाज तरी करीना. अमर जिवघेण्या वाहनांचेर नियंत्रण दवरप हें पुण्यांचें काम. अमर तू फकत एक पवित्र आत्मो सोदी पूण म्हाका दिसता तू दोन पवित्र आत्में व्हरतलो. अमर तुका पुण्यवान मनीस मेळळे.

**अमर** : चित्रगुप्त हांका पुण्यवान म्हणपाची चूक करूं नाका. ह्या वाहनांचेर नियंत्रण दवरपाचें हांचें काम खरें, पूण हे हांगा रावोन भ्रश्टाचाराक निमंत्रण दिता

**चित्रगुप्त** : म्हळयार...

**अमर** : हांगा राव आनी पळय तांचीं कर्मां

**पुलीस १** : कितें जालें रे आजून एकूय गाडी येयनां. वाटेर कोणी रस्तो आडोंवकना मरे. आंदोलना जाली जाल्यार आमीं उपाशी मरतले

**पुलीस २** : खंयसरूच कसलेंच आंदोलन ना. तू धीर धर येतली गाडी

**पुलीस १** : कसो धीर धरूं. आयज म्हज्या बायलेचो वाढदीस. वयतना एक साडी तरी व्हरोंक नाका. आनी ती हांव तेन्नाच दिवंक पावतलो, जेन्ना कोण तरी बोकडो सापडटलो

**पुलीस २** : तो पळय येता बोकडो ( एक मनीस स्कुटरीर येता) पुलीस ताका पिल्लूक मारता आनी आडायता)

**मनीस** : किदें सायब?

| | | |
|---|---|---|
| **पुलीस १** | : | लायसन आसा मरे? |
| **मनीस** | : | हय सायब! |
| **पुलीस** | : | दाखय पळोवया (पळयता) वीथ गियर आसतना विथआवट गियर कित्याक चलयता रे? |
| **मनीस** | : | सायब आता विथआवट गिअर गाडी विथ गियर पेक्षा फांस वयता. वयल्यान गियरां घालपाची कटकट ना |
| **पुलीस १** | : | पेपर आसा ? |
| **मनीस** | : | किदें आयलां पेपरांत? |
| **पुलीस २** | : | आरे गाडयेचे पेपर आसा मरे? |
| **मनीस** | : | हय सायब! |
| **पुलीस १** | : | लायसन आसा, पेपरूय आसा ( वारें पळयता) वारें कमी आसा मरे. कमी वारें दवरून चलयता? ह्या खातीर रस्त्याची वाट लागल्या. आतां तुका दोनशें रूपया फायन भरची पडटली |
| **मनीस** | : | वारें कमी आसल्यार फायन? सायब हो खंयचो कायदो? |
| **पुलीस १** | : | कायदो समजावपाक लायशीत जाल्यार तिनशे रूपया फायन दितलो |
| **मनीस** | : | पूण सायब म्हजेकडे दोनशे रूपया ना. |
| **पुलीस २** | : | कितले आसा? |
| **मनीस** | : | फकत पन्नास रूपया |
| **पुलीस २** | : | नवी गाडी चलयता आनी बॉल्सान पन्नास रूपया घेवन भोंवता |
| **मनीस** | : | लोनार घेतल्या सायब ही. टू व्हीलर फायनन्स कंपनीन लोन दिला. फकत १०० रूपया पयलीं भरपाचें आनी गाडी व्हरपाची. आनी म्हयन्याक २००० भरपाचें |
| **पुलीस २** | : | भरता मरें तू? |
| **मनीस** | : | १०० रू. भरले सायब पूण आतां २००० भरपाक जायना |
| **पुलीस १** | : | तुमका दोनशे रूपया फायन भरपाक जायना ते दोन हजार कितें भरतलें. ह्यो फायनान्स कंपनी भिकाऱ्यांक गाडयो दिता आनी आमकां फोणांत घालता. ते पन्नास आसा ते दी आनी फाल्यांच्यान सायकल घेवन भोंव. चल (वता) खंयच्यान मेळटा एक एकटे |
| **पुलीस २** | : | पन्नास मेळळे मरे? |
| **पुलीस १** | : | पन्नासान किदे जाता? |
| **पुलीस २** | : | हो पळय, हाका आडोवया (एक सायकलकार मोबायलाचेर उलयत येता) |
| **मनीस** | : | किदें? रॉंग नंबर, हांव तुजो बॉयफ्रेन्ड न्हय, आसू आसू सॉरी कित्याक? |
| **पुलीस २** | : | राव रे. कितें रे चोरून हाडला मोबायल? |
| **मनीस** | : | सायब चोरतलो कित्याक. कंपनी कडल्यान देडशे रूपया दिवन घेतला |
| **पुलीस २** | : | खंयचे कंपनी कडल्यान? |

मनीस : तें जें सांगता "करलो दुनीया कान में"
पुलीस १ : तुज्या कानार जाय?
मनीस : हांवेन किदें केलां सायब
पुलीस १ : गाडी चलयतना मोबायलार उलोवप ना हें खबर ना तुका?
मनीस : सायब हांव खंय गाडी चलयता? ही सायकल!
पुलीस १ : टायर आसा मरें तिका?
मनीस : हय!
पुलीस १ : तू ती रस्त्यार चलयता मरे?
मनीस : हय!
पुलीस १ : मागीर जाली ना गाडी आता काड २०० रूपया.
मनीस : सायब खंयच्यान दिवं. ह्या मोबायलाचें बिलूच भरपाक पैशे ना
पुलीस २ : पैशे ना जाल्यार घेतलो कित्याक
मनीस : सवाय मेळटा आनी सगले घेता म्हणोन घेतलो.
पुलीस १ : हय मरे, मागीर सगळे फायन भरता म्हण आतां तूय भर
मनीस : कसो भरू, म्हजेकडे फकत २० रू. आसा. ( भायर काडटा)
पुलीस १ : तेंच दी. चल,तू
मनीस : (मोबायला वाजता) हॅलो कोण? आगो बाय तुवेन परत म्हाकाच फोन केलो. आसू, आसू, अशेच फोन कर, बरें दिसता ( मनीस वयता )
पुलीस १ : सत्तर जाले.
पुलीस २ : तो पळय तिसरो येता ( आडायता)
मनीस : सायब बरे आसा न्हय? कितें जाला कित्याक आडायलो म्हाका?
पुलीस २ : आमकां पिशें लागलां म्हण आडावं ना. लायसन आसा मरे?
मनीस : हय सायब
पुलीस २ : आनी इन्सुरन्स
मनीस : इन्सुरन्स भरलेलो ना सायब
पुलीस : ना? मागीर काड पाचशे रूपया (बोल्सांत हात घालता) जांव एक तरी पैशेकार बोकडो मेळळो
मनीस : सायब हे घेयात ५०० रूपया पूण म्हाका रिसिप्ट मात दियात
पुलीस : रिसिप्ट बुकच ना जाल्यार रिसिप्ट खंयची मेळटली. आतां आमीं तो घेवन भोंवप बंद केला, कारण आमका ताजी गरजच पडना.
मनीस : रिसिप्ट नासतना हांव पैशे कशें दिवं?
पुलीस २ : पोतयेन कितें आसा रे, कुल्ल्यो?
मनीस : हय सायब
पुलीस २ : पैशे नाका. त्यो कुल्ल्यो हांगा दवर आनी चल

| | | |
|---|---|---|
| **मनीस** | : | पूण सायब |
| **पुलीस २** | : | सांगला तें कर |
| **मनीस** | : | बरें सायब (वता) |
| **पुलीस २** | : | आयचें जेवण सुटलें (चेडू येता. ताका पोळोवन पिल्लूक मारता) |
| **चेडू** | : | सायब म्हाका पळोवन पिल्लूक कित्याक मारली? |
| **पुलीस १** | : | हावेंन खंय मारली. तुका पळोवन वाजली ती. म्हाका एक सांग सगळे आसा मगो तुजेकडे? |
| **चेडू** | : | दाखोवं? |
| **पुलीस १** | : | फकत लायसन्स दाखय |
| **चेडू** | : | लायसन्स ना म्हजेकडे, म्हणोन तर मुखार हांवें 'यल' लायला |
| **पुलीस १** | : | 'एल' लायला मगो, जालें तर. लायसन्स कित्याक जाय. यल फोर लायसन्स मगो. |
| **चेडू** | : | हाव वचूं तर? |
| **पुलीस १** | : | हो रस्तो म्हजे घर न्हय, ना जाल्यार राव म्हणटलो आसलो. चल तू, रस्त्यार अशेंच मेळत राव ( वता) |
| **पुलीस २** | : | एल फोर लायसन्स आनी बी फोर बायजण |
| **पुलीस १** | : | चेडवांक त्रास दिवप बरें दिसना रे. तांका पावडर लिप्स्टिक हांका कितलो खर्च आसता. तांका फायन दिवपाक मन येयना (मनीस म्हऱ्यान येवन ब्रेक मारता) |
| **पुलीस २** | : | आरेच्या तुका आडाय नासतना रावलो मरे तूं. |
| **मनीस** | : | सायब, हांवेन तुमच्या कुल्ल्यांक पळोवन ब्रेक मारला. तुमी तालांवाचें काम सोडून कुल्ल्यांचो धंदो सुरू केला? |
| **पुलीस २** | : | चूप, आमकां पोट ना रे? संवसार ना? घरा व्हरूंक दवरल्यां त्यो. |
| **मनीस** | : | हांव नुस्तें हाडूंक बाजारांत वयतालो, कुल्ल्यो पळोवन रावलो. |
| **पुलीस १** | : | आतां तू रावलाच जाल्यार लायसन्स दाखय |
| **मनीस** | : | सायब हांव स्कूटर ते ट्रका मेरेन सगळयो गाडयो चलयता, पूण लायसन्स केन्ना वापरी ना. |
| **पुलीस १** | : | तुका आजून तालांव पडोंग ना दिसता. आता दी २०० रूपया तालांव. |
| **मनीस** | : | सायब खंयचे दिवं म्हजेकडे रूपया लेगीत ना |
| **पुलीस १** | : | फटींग उलयता, मागीर बाजारांत नुस्तें खंयच्या पैशान हाडूंक वयता? |
| **मनीस** | : | पैशाची गरज ना. नुस्तेकार म्हजेकडे पैशे मागनात |
| **पुलीस १** | : | किदयाक? |
| **मनीस** | : | आमच्या पात्रावाक वळखता न्हय ते |
| **पुलीस१** | : | म्हळयार पात्रावाच्या खुस्तार मजा मारता तर तूं. तूं तुज्या पात्रावाक कितें मंत्री समजता. |

मनीस : समजोंक जाय किदयाक. मंत्रीच ते. वाहतूक मंत्री
पुलीस १ : किदें?
मनीस : ही गाडी लेगीत तेंचीच. म्हाकाच दिल्या बाजारांत वचपाक आनी बाजार करपाक. सायब तुमगेलो कितलो तालांव तो सांगात. हांव सांगता तांका
पुलीस २ : नाका, नाका तू तांका सांगो नाका. तू कुल्ल्यां खातीर राविल्लो न्हय.ह्यो घे व्हर. सराक सांग हांवे दिल्या म्हण
मनीस : हांव हें कशें घेवं तुमचें पोट आसा, संवसार आसा
पुलीस २ : आनी नोकरीय आसा. तू व्हर ह्यो कुल्ल्यो. आनी दोनशे रूपयांचे पात्रावाक कांय सांगो नाका.
मनीस : हांव सांगचो ना पूण म्हजें तोण ओगी रावचें ना
पुलीस १ : घें, तुका हें सत्तर रूपया दवर, आनी तोणाक उलोंक दिवं नाका
मनीस : बरें तर. अशेंच सदी मेळत रावा (वता)
पुलीस २ : आयज आमकाच तालांव पडलो मरे.
पुलीस १ : आयचो दिसच वायट. चल वतना बायलेक फाती तरी व्हरता (वयता)
(चित्रगुप्त आनी अमर येता)
अमर : पळयलें चित्रगुप्त आता तूच सांग हे स्वर्गान वयतले?
चित्रगुप्त : स्वर्ग खंय हांका नर्काचें दार. आतां खंय या
अमर : आता मनशांचो जीव वाचयता तांचेकडे या
चित्रगुप्त : जीव वाचयता? तशें जाल्यार तो पुण्यवान आसतलो. कोंण तो?
अमर : दोतोर
चित्रगुप्त : दोतोर? दोतोर म्हळयार कोण?
अमर : दोतोर म्हळयार वैद्य. चल पळोवया हो पृथ्वीवयलो वैद्य पुण्यवान आसा काय ना तो. (वता. ल्हव ल्हव काळोख जाता)

देखाव तिसरो : दोतोराचें क्लिनीक
(बाकार कांय पेशंट बसल्या, कम्पांन्डर न्हिदला)
तातो : (कम्पांन्डराक) बाबा, अे बाबा
कम्पांन्डर : न्हिदुकय दिना, कितें जालां रे म्हाताऱ्या?
तातो : नंबर केन्ना येतलो
कम्पान्डर : ओपन आयलो, क्लोज येवपाचो उरला
तातो : आरे मटक्याचो न्हय, म्हजो नंबर केन्ना येतलो
कम्पान्डर : नंबर येवपाक आजून दोतोर खंय आयला
तातो : केन्ना येतलो दोतोर
कम्पान्डर : वेळ मेळ्ळो काय येतलो. ताका कितें हें एकूच काम ना. हॉस्पिटलांत नोकरी


WORLD KONKANI LIBRARY
Accn No: 001192

करता तो, थंयच्या पगारांत भगना म्हण हें क्लिनीक उघडलां. आता दोनी कडचे पेशंट सांबाळपाक वेळ नाका. ते पेशंट थंयच सांडून ताका चोरयेन हांगा येवचो पडटा. आनी आयज तर ताका ऑपरेशन आसा. तू मात्सो धीर धर

तातो : चार वरां जाली हांगा बसल्यार. आनी हो म्हणटा धीर धर

रमेश : तुका किदें जालां रे?

सायमन : मुगेलो मोठो प्रोब्लेम आसाय.

रमेश : कसलो?

सायमन : जेवताना मुगेली जिबली एका जाग्यार रावोना हालोत रावताय. कितेंय तोंडान घाल, जिबली हालोत रावताय. आता म्हाका सांग खातोना मुगेले तोण हालोता, बोरें आसा, पूण जिबली हालोता म्हुणल्या कितें. ताका लागोन हांव दोतोराकोडे आयला.

रमेश : बरें केलें दुयेंस वाडलें जाल्यार ती जिबली हालोन हालोन पडत

सायमन : म्हाका सांग रे तुगेलो कितें प्राब्लेम आसाय

रमेश : म्हजो व्हडलो प्रोब्लेम म्हणल्यार, म्हज्या सपनान सदां अमिशा पटेल येता

सायमन : ओमीशा पटेल? ती मोरे टिवीर नाच कोरता ती

रमेश : तीच ती पिक्चरांनी कांम करता ती

सायमन : गोमलें रे, पूण राव रे, ती सोपनांन येता जाल्यार तुका प्रोब्लेम कितें जाता. वोयल्यांन तुगेलें नोशीब मोरे. म्हाका एक सांग ती ओमिशा पोटेल सोपनांन येयली काय ती कितें कोत्ता?

रमेश : किदें करतली. मारता गजालीं. आयली काय धांवणोंक बरें दिसना

सायमन : बोरी मोज्या मारता मोरे.

रमेश : मजा खंयची रातभर तिचेकडे उलयतां, आतां हांव जागरणांन बारीक जाला

सायमन : बारीक जावपाचोच. कोंणे तोरी सांगलां न्हूय रे-उलोवन पोट भोन्ना म्हूण. चोय दोतोर कितें म्हुणता तो. (नर्स येता)

तात्या : गुड मोर्नींग

प्रल्हाद : चेडवाक पोळोवन म्हातारो उठता बरो... आरे म्हाताऱ्या गुड मोर्नींग कितें म्हणटा आतां दनपार जाली

तात्या : सकाळ जांव दनपार, पूण दोतोराक आनी नर्सीक असोच आदर दिवंक जाय

प्रल्हाद : हो म्हातारो सुटला... ए नर्स बरी आसा न्हय

तात्या : नर्स न्हय सिस्टर म्हण. नर्सीक सिस्टर म्हणोंक जाय

प्रल्हाद : उलयलो हो म्हातारो. अरे म्हाताऱ्या फाल्यां म्हजी बायल नर्स आसत जाल्यार हांव म्हज्या बायलेकूय सिस्टर म्हणू?

रमेश : हांवूय तेंच म्हणटा. आनी नर्सीक सिस्टर म्हणपाक दोतोराक आमी खंय ब्रदर म्हणटा?

सायमन : त्या म्हाताऱ्याक चोय कसो दोळे फोडून त्या नर्सीक चोयता तो...आरे जाण्ट्या कित्याक रे ताका चोयताय. तू जाला जाण्टो. पोयलो तुगेलो जीव चोय. मागीर ताका चोय.

तात्या : तुमीं सगळे ताका डोळे फोडून पळोंग शकता. मागीर हांव कित्याक पळोंक शकना?

प्रल्हाद्र : आरे जाण्ट्या, नुस्ते दिसलें काय गरी सोडपाचे आमचे दिस. तू जाला जाण्टो, तुजे गरयेन आतां नुस्तें सापडटा?

तात्या : हांव ताका म्हज्याखातीर पळयना. ती म्हजी सून जावपा सारखी आसा काय ना तें पळयता

प्रल्हाद : तू ताका आपली सून करता जाल्यार हांव तुजो चेडो जावपाक तयार आसा. (हासतात)

तात्या : ह्या भुरग्यांक खंयसरूय फकाणां येवजता. स्वताक तपासपाक आयल्या ते तपासात आनी चलात. फकाणां करपाक हो रस्तो न्हय. (दोतोर येता)

नर्स : गुड मोर्नींग डॉक्टर

दोतोर : गुड मोर्नींग

नर्स : सर, आयज हॉस्पिटलांत तुमकां हार्टाचे ऑपरेशन आशिल्लें न्हय. कशें जालें

दोतोर : फर्स्ट क्लास. चाळीस मिनटांचे ऑपरेशन धा मिनटान केलें

नर्स : सर यू आर ग्रेट

दोतोर : थँक यू. धाड रे भितर तांका.

कम्पांडर : दोतोर आयला. आता एक एकटो भितर चलात. जाण्ट्या तू चल पयलीं (तातो दोतोरा म्हऱ्यांन वयता)

दोतोर : येयात, बसात. कशें आसात तुमीं?

तात्या : बरो आसलेलो जाल्यार तुमचेकडे कित्याक येतलो आसलो?

दोतोर : जाण्टो बरोच सुबेस आसा

तात्या : किदें?

दोतोर : काय ना... कितें जालां तुमकां?

तात्या : हांव जाला जाण्टो. हजारांनी दुयेंसा.किदें किदें म्हण सांगूं?

दोतोर : आतां म्हजेकडे आयला म्हण किदें तरी सांगात

तात्या : म्हाका रातची न्हिद पडना

दोतोर : कायच भियोवं नाका. हांव हें वखद बरोवन दिता तें घेयात. तुमकां रोखडीच न्हिद पडटली. आनी भायर पन्नास रूपया फारीक करात

तात्या : बरें दोतोर, देव बरें करूं तुमचे

नर्स : सर, आता तेका न्हिद पडटली

दोतोर : हय खूप बेगीन न्हिद पडतली. आनी अशी पडटली कि तो केन्नाच उठचोना.

नर्स : सर, यू आर ग्रेट
दोतोर : थॅंक यू... नेक्स्ट (सायमन येता) सांग कितें जालां
सायमन : सर, मुगेलो एकूच प्रोब्लेम. जेवताना मुगेली जिबली एक जाग्यार रावनां. हालोत रावता.
दोतोर : उदक पिताना हालता?
सायमन : ना उदोक पिताना हालोना
दोतोर : कायच भियों नाका, एकूच काम कर दोन म्हयने फकत उदक पी. कांय खावं नाका. सगळें सारखें जातलें. आता चल वयतना भायर पन्नांस रूपया दी.
सायमन : बोरें दोतोर (वयता)
नर्स : सर दोन म्हयन्यात ताची जिबली हालप बंद जातली?
दोतोर : हय तर दोन म्हयन्यांत ताची जिबली परमनंट एका जाग्यार रावतली.
नर्स : सर, यू आर ग्रेट
दोतोर : थॅंक्स...नेक्स्ट (रमेश येता) सांग किदें जालां
रमेश : दोतोर म्हज्या सपनान सदी अमिषा पटेल येता आनी हांव ताजेकडे उलयत रावता. आतां हांव जागराणान बारीक बारीक जाला. हांव किदें करू?
दोतोर : तू काम किदें करता?
रमेश : हांव फॅक्टरीन कामांक आसा
दोतोर : ड्युटी दिसाची काय रातची?
रमेश : दिसाची
दोतोर : ड्युटी चेंज कर. नायट ड्युव्टी घे, दिसाचो न्हिद
रमेश : तातून किदें जातलें?
दोतोर : अमीषा पटेल तुज्या सपनान येवची ना
रमेश : कशी?
दोतोर : कशी येतली तिका दिसाची शुटींग आसता. आतां कांयच भियोवं नाका. सांगलां तशें कर आनी वतना भायर पन्नांस रूपया दी.
नर्स : सर यू आय ग्रेट
दोतोर : थॅंक्स... नेक्स्ट (प्रल्हाद येता) सांग किदें जालां
प्रल्हाद : दोतोर म्हाका दिसता म्हजें काळीज चडूच फास धावता
दोतोर : कायच भियोवं नाका. ताची स्पीड कमी करपाक ऑपरेशन करचें पडटलें. हांवें आयज मेरेन कितल्याश्याच काळजांचें हालप बंद केलां. आयच येतनाच एका एका पेशन्टाच्या काळजाचें ऑपरेशन करून आयला हांव
प्रल्हाद : हय? किदें जाल्लें ताका?
दोतोर : ताज्या काळजाक बुराक पडलेलो . तो बुराक शिवपाक हांवें ऑपरेशन केलें. पूण काळीज इतकें हालतालें कि ऑपरेशन करूंकच मेळना जालें

**प्रल्हाद** : मागीर तुमी किदें केलें?
**दोतोर** : हांव हुशार दोतोर, हावेंन काळीज भायर काडलें आनी शिवलें
**नर्स** : सर यू आर ग्रेट
**दोतोर** : थँक्स (फोन वाजता)
**नर्स** : हॅलो...यस...एक मिनीट. सर हॉस्पिटलांतल्यान फोन
**दोतोर** : हॅलो, सांग, हांवेन काळजाचे ऑपरेशन केलां तो पेशन्ट कसो आसा? किदें? भायर काडलेलें काळीज हांवें परत भितर घालूंकच ना?
(प्रल्हाद धांवता)
**नर्स** : सर, यू आर ग्रेट
(ल्हव ल्हव काळोख)
(अमर निरशेला, एकटोच येवन बसता. फाटल्यांन चित्रगुप्त येता)
**चित्रगुप्त** : अमर, तू हांगा बसला? आनी म्हाका एकटयाक सोडून तू हांगा कसो आयलो. किदें जालें, असो ओगी सो बसला. सांग आतां खंय व्हरता तू म्हाका. खंय मेळटलो आमकां पुण्यवान आत्मो?
**अमर** : चित्रगुप्त, आतां हांव तुका खंयच व्हरना. तूच म्हाका घेवन चल
**चित्रगुप्त** : हांव तुका खंय व्हरो. ही पृथ्वी तुजी, मनशाची. हांव यम लोकांतलो, हांव तुका खंय व्हरों शकता. हांव जाणा फकत यमलोकाची वाट
**अमर** : थंयच परत व्हर म्हाका
**चित्रगुप्त** : किदें? यमलोकान परत? तें लेगीत पुण्यवान आत्मो घेयनासतना. तू कितें उलयता तें कळटा तुका? हांगा येवपाचो उद्देश तू विसरलो काय किदें?
**अमर** : ना, हांगा येवपाचो उद्देश हांव विसरोंक ना. पूण म्हाका कळोन चुकला की म्हज्या उद्देशा म्हऱ्यांन पावप सोपें न्हय. म्हाका दिसना म्हजो उद्देश पुरो जायत कसो. हे पृथ्वेर म्हाका पुण्यवान आत्मो मेळचो ना. हांगा सगळेच पापी, हांगा पुण्यवान कोणूच ना. चित्रगुप्त हांव हरलो. म्हाका आता पुनर्जल्म मेळूंक शकना. हांव मेलो, कायमचो मेलो. चल चित्रगुप्त व्हर म्हाका यमलोकान कर म्हजो हिशोब. चल व्हर म्हाका यम लोकांत (रडटा, इतक्यान फायरिंगेचो आवाज येता )
**चित्रगुप्त** : हो आनी कसलो भयंकर आवाज (अमर आवाजाचो अंदाज घेता) कान बसले म्हजें. हे मनीस किदें करीत सांगो नजो. अमर कसलो हो आवाज? म्हज्या कानांक हो सहन जायना. यम लोकांत लेगीत इतको भयंकर आवाज हावेंन आयकोंग ना. अमर कसलो हो आवाज.
**अमर** : चित्रगुप्त म्हाका पुण्यवान आत्मो मेळ्ळो
**चित्रगुप्त** : किदें? तुका पुण्यवान आत्मो दिश्टी पडलो? पूण आताच तर तू सांगी की पृथ्वीर पुण्यवान आत्मे ना म्हण
**अमर** : हय, पूण एक मनीस आसा जाका हांव विसरलो. ह्या आवाजान म्हाका त्या

मनशाची याद करून दिली. चल चित्रगुप्त हो आवाज आमकां पुण्यवान आत्मो दाखयतलो

**चित्रगुप्त** : म्हळयार ...

**अमर** : आमकां त्या आवाजाचे दिकेन वयचें पडटलें

**चित्रगुप्त** : इतक्या पैससून हो आवाज सोसूंग जायना. आनी तू म्हणटा आवाजा दिकेन या. आमचे कान फुटोंक आसा. हो आवाज इतको भयानक की आवाजा म्हऱ्यान गेल्यार आमकां कितेंय जावं येता.

**अमर** : किदें जातलें? हांव तर पयलींच मेला आनी तू यमाचो साथीदार

**चित्रगुप्त** : तें सगळें खरें, पूण...

**अमर** : चित्रगुप्त पुण्यवान आत्मो व्हरपाक तू म्हाका साथ दिवचोना?

**चित्रगुप्त** : तेंच करपाक तर तुजे बरोबर आयला हांव

**अमर** : मागीर चल तर. म्हजेर विस्वास दवर. ही आमची निमणी फावट आसतली. चित्रगुप्त, पुण्यवान आत्मो आमच्यापासून चड पैस ना.चल चित्रगुप्त, चल या (दोघूय वता)

(दोघूय युध्दभूमीकडे पावता. सैनिकांची फायरींग चालू आसा)

**चित्रगुप्त** : अमर हें किदें चल्लां? मनशाच्या हातांत हें किदें आसा?

**अमर** : चित्रगुप्त ही युध्दभूमी. हे सगळे भारत देशाचे सैनीक. आयज देशाचेर संकट आयलां. शेजारच्या देशान भारतीय भूमीचेर बेकायदेशीर प्रवेश केला. दुस्मानांनी भारताची सिमारेशा ओलांडल्या. भारत देशाचें हे जवान तांका परत धावणोन घालपाचो यत्न करता. चित्रगुप्त, दुस्मान भारतमातेक बंदखणींन दवरपाचो यत्न करता, पूण हे भारत मातेचे सुपुत्र तशें जावंक दिवचे ना. स्वतःच्या जिवांची पर्वा करी नासतना ते भारत माते खातीर झगडटले. भारताच्या लोकांक न्याय मेळोन दिवपाक झगडटले ( आवाज वाढता. एकल्याक गुळी लागता. तो पडटा)

**चित्रगुप्त** : अमर ताका किदें जालें? ताज्या पोटांतल्यान रगत येता. अमर तो मेलो.

**अमर** : चित्रगुप्त, देशाखातीर जीव दिता तो मरना, तो शहीद जाता. चित्रगुप्त होच जावन आसा पुण्यवान आत्मो. भारतमातेखातीर ताणें स्वताच्या जिवाचें बलिदान दिलें चित्रगुप्त, हांव त्या पुण्यवान आत्म्याक घेवन येता (अमर ताका उठयता आनी चित्रगुप्ता म्हऱ्यान हाडटा)

**आत्मो** : कोण तू? खंय व्हरता म्हाका? हांव हांगा कसो पावलो? सोड सोड म्हाका. म्हाका म्हजें कर्तव्य करूंक जाय

**अमर** : भावा सैनिका, तुवेंन तुजें कर्तव्य केलें. जिवाच्या निमण्या खिणांमेरेन तू देशाखातीर झगडलो. तुज्या रक्ताचो दर एक थेंब तुवेन देशाखातीर अर्पण

केलो

आत्मो : हय पूण म्हजें ध्येय अजून सोपूंग ना. अजून आमका जैत मेळोवपाचें आसा

अमर : देशाखातीर आनीक किदें करपाक तू आता मनीस उरोंक ना. ती पळय तुजी कुड.आता तू आसा फकत एक आत्मो

आत्मो : म्हळयार हांव मेलो?

अमर : तू मरोंकना, देशाखातीर शहीद जालो. आतां तू जावन आसा एक पुण्यवान आत्मो. पुण्यवान आत्म्याक स्वर्गान जागो मेळटा. चल या, स्वर्गाचें दार तुका रावता. तुका त्या दारामेरेन व्हरपाचे काम हांव करतलो.

आत्मो : तू कोंण?

अमर : हांव कोण म्हणोन सांगू. आसलेली ओळख उज्यान जळ्ळी. सध्या हांव म्हज्या अस्तित्वाच्या शोधान आसा

आत्मो : म्हळयार...

अमर : म्हजी काणी व्हडली आसा. सध्या म्हज्या बरोबर चल, स्वर्गाचे दार तुका येवकार दिवपाक रावला.

आत्मो : हांव येता तुज्याबरोबर, पूण म्हाका थोडो वेळ दी. दुस्मान भारताचे सिमेन भितर सरल्या तांका परत धावणोपा खातीर युध्द सरू जालां. जैत आमच्या पसून चड पैस ना. त्या पर्वताचेर म्हज्या भारताचो तिरंगो फडकलो की हांव तुज्या बरोबर येता. म्हाका म्हज्या देशाची जैत पळोंक जाय. त्या पर्वताचेर म्हाका म्हज्या देशाचो झेंडो पळोंक जाय. निमाणो म्हज्या तिरंग्याक सॅल्यूट करता आनी मागीर हांव तुज्या बरोबर येता. म्हाका इतको वेळ दी.

चित्रगुप्त : वा! कितलो मोग तुझो देशाचेर. खरेंच तुज्यापेक्षा पुण्यवान कोणूच ना.तुवेन निमणो वेळ मागलो तोय आपल्या देशाखातीरच. तुवेन आयज मेरेन इतके आत्मे पळयलें. पूण पयले फावट हांव पुण्यवान आत्मो पळयला. (मळबान) महाराज पळयात अमराक पुण्यवान आत्मो सापडलो. इतकी वर्सा आमकां जाची प्रतीक्षा आशिल्ली ती आयज पुराय जाली. पळय पळय यम लोकोंतले सगळे जाण तुजो जयजय काय करता

आत्मो : जय जयकार म्हजो न्हय. म्हज्या भारत देशाचो करात (भारत माता की जय, आवाज घुमता) पळयात पळयात म्हजा इस्टांनी तिरंगो पर्वतार लायलो. आमकां जैत मेळ्ळें, भारत माता की जय, भारत माता की जय. (सॅल्यूट मारता) आतां आनींक म्हजी कसली इत्सा उरूंकना. चलात, घेवन चलात म्हाका तुमकां जाय थंय.

(तिगूय वता, आत्मो वळोन तिरंग्याक पळयता. आनी पडदो ल्हव ल्हव पडटा)

नाटक सोंपता

Konkani Centre Library · 1159



मनशाच्या जिवीताचें पयलें आनी निमाणे सत्य एकूच "मरण!" मरण कोणांक चुकूंक ना. दर एकल्याच्या जिविताचो शेवट थारिल्लो आसता. कोण अपघातान मरता, कोण दुयेंसान मरता, तर कोण जाण्टेपणान मरता. हातूंत आत्महत्या करपी आयलेच. मरण कशेंय येवं, तें मनशाच्या वाट्याक येताच!

'मरण' हें सत्य दर एका मनशाक खबर आसा. तरी लेगीत मनीस इतको स्वार्थी कित्याक? ह्या वाक्यात हांव स्वताकूय सामील करताच कारण हांवूय मनीसूच. म्हज्यान स्वार्थ, लोभ, पाप, तिडक हें मनशाचें सगळे गुण आनी अवगुण आसा.

जल्माक येतना मनीस एकटो येता. जें कितें मेळयलें आसा तें हांगाच दवरचें पडटा. येतना आंगार एकूय कपडो घेवन येयना आनी वतना कांयच धापून वचना. हें सगळें सत्य मनीस जातीक खबर आसा तरी लेगीत मनीस स्वार्थी कित्याक?

**महेश चंद्रकांत नाईक**


**अक्षरब्रम्ह प्रकाशन**
द्वारा-महेश चंद्रकांत नाईक
घर नं. २९३, गणेश देवळा
मुखार, सांतिनेज, पणजी-गोंय

